


मे २००६



# दाबोळी काय मोपा ?
# कोण खेळटा आपालिपा ?



# गोंयच्या तरणाट्यांक सुखाचे दीस येवंचे म्हूण...









अर्थीक आनी सामाजिक उदरगतीचो संबंध सांबाळून गोंय सरकार सदांच यत्न करता. हे भुंयेंत अर्थीक सुधारणा, सामाजिक सुरक्षितताय आनी उदरगत करपाक. रोजगार ह्याच धोरणाक जोडलां.

गोंयांतल्या तरणाट्यांक रोजगार मेळचो हो हेत दवरून गोंय सरकार सगळ्यांक समान रोजगाराची संद मेळची म्हूण वावुरता. हे तरणाटे पिळगेक सुखाचो फुडार मेळचो आनी ते स्वावलंबी जांवचे असो सरकाराचो हावेस आसा. त्या खातीर सरकार यत्न करता.

## गोंयांत निधर्मी आनी उदरगतीखातीर वावर करपाक वचनबद्ध




Issued by:
Department of Information and Publicity
Government of Goa



कोंकणी मासिक

# बिम्ब

वर्स : ५ अंक ५



मे २००६



मोल १० रुपया



मुखेल संपादक

दिलीप बोरकार



मुद्रक आनी प्रकाशक

दिलीप बोरकार



मुद्रण थळ

इम्प्रेशन, गोंधळी गल्ली, बेळगांव.



मार्केटींग व्यवस्थापन

कामिनी किणी



अक्षर जुळवणी आनी मांडावळ

श्वेता नायक



भुरग्यांआंगण संपादन

नयना आडारकार



वर्गणीचे दर

वर्सुकी २०० रु. / तीन वर्सां ५५० रु.



खंयच्याय म्हयन्या सावन वर्गणीदार जांव येता. वर्गणीचो चेक 'बिम्ब' ह्या नांवान धाडचो



संपादकीय पत्रवेव्हाराचो पत्तो

जी.एस.बी.-३, हाऊसिंग बोर्ड कॉलनी,

पोस्ट आल्त-पर्वरी,

आल्त बेती - ४०३ ५२१

दूरध्वनी : (०८३२) २४११५९४

E-mail : bimbkonkani@yahoo.com.in

ह्या अंकांत उक्तायल्ले विचार त्या त्या बरोवप्याचे आसात. संपादक मंडळ तांचेकडेन सहमत आसतच अशें ना.




# पेडणेकारांचे शिराप बादतले?

अपेक्षे प्रमाण मोपा विमानतळ प्रकल्प रद्द जालो. तो सासणाचो बंद जालो अशें आमी म्हणूंक शकना. नोव्हेंबर - डिसेंबर म्हयन्यांत गोंय विधानसभेची वेंचणूक जाली आनी भाजपा सरकार भोवमतान सत्तेर आयलें जाल्यार परतून एकदां ह्या प्रकल्पाचो श्रीगणेशा जातलो. कित्याक उत्तर गोंयचें वातावरण वेंचणूके वेळार तापतलें तें मोप विमानतळाच्या मुद्याचेर हातूंत दुबाव ना. कित्याक भाजपा मुखार होच एक कार्यक्रम आसतलो.

नशिबसारख्यान भाजपा सत्तेर आयली जाल्यार जमीन संपादना पासूनचो वावर परतून एकदां आरंब जातलो. परतून एकदां तीच प्रक्रिया सुरू जातली आनी ते पासत सरकारचे तिजोरेंतल्यान कोट्यांनी रूपया खर्च जातले.

हें सगळें चलतना आमी एक विचार निखालूत करचेनात, तो म्हळ्यार आमकां मोपा विमानतळाची खऱ्यानीच गरज आसा काय किर्ते? गोंयच्या पर्यटन मळाचो विचार केल्यार फुडल्या पंचवीस वर्सांत पर्यटकांचो आंकडो मोठ्या प्रमाणांत वाडटलो आनी तांची येरादारी करूंक विमान साधन सेवा हीच मुखेल येरादारीची सुविधाय आसतली. ते नदरेन विचार केल्यार मोपा विमानतळ गोंयांक खूप गरजेचो थारतलो. अशें जर आसत जाल्यार मोठ्या प्रमाणांत जमीन संपादन करून लेगीत ती ताब्यांत दवरूपाक सरकारान न्हयकार कित्याक दिलो?

मोपा विमानतळाक लागून गोंयांत वाद उप्राशिल्लो आनी उत्तर-दक्षिण अशी दुस्पट गोंयांत जावपाकडेन आशिल्ली. ताचो परिणाम काँग्रेस पक्षाचेर जावंचो आशिल्लो. तरी लेगीत मोपाखातीर संपादीत केल्ली जमीन ताब्यांत दवरू येताली. थंय मोपा विमानतळ प्रकल्प नाका असो जर निर्णय जाल्लो तर हेर कसल्याय कामांक ताचो उपेग जांव येतालो. मोपा विमानतळाची नियोजित सुवात म्हण राखून दवरू येताली आनी सगळे तरेन विचार करुनूच विमानतळाचो वावर सुरू करूं येतालो. पूण गोंयच्या फुडाराचें मात लेगीत पडूंक नाशिल्ल्या, फक्त सत्ता भोगूंक संवकल्ल्यांनी सरकारी तिजोरेचें लुकसाण करून जमीन संपादन रद्द करूंक दिलें.

मोपा विमानतळ जाल्लो जाल्यार पेडण्या वांगडाच बार्देश तालुक्याचीय आपसूक उदरगत जावन वचपाची. तेच वांगडा मोरजी, मांद्रे, हरमल ह्या वाठारांतूय हॉटेलां येवपाचीं. पूण पेडणेची उदरगत म्हळ्यार गोंयची उदरगत न्हय, फकत साश्टी म्हळ्यारूच गोंय अशें चर्चिल आलेमांव आनी ताच्या समर्थकांनी समज करून घेतिल्ल्यान, गोंयच्या उदरगतीच्या आनी फुडाराच्याय नदरेन गरजेचो आशिल्लो एक प्रकल्प आमी घालोवन बसल्यात.

निवृत्त पोलिस अधिक्षक आपा तेली हे पेडणेचे. तांणीं मोपा वाठाराचो अभ्यास केला. ती येदी व्हडली जमीन सपाट आशिल्ल्यान विमानतळाखातीरूच ती योग्य अशी सुवात जावन आसा आनी आयज साश्टीच्या सामान्यांतल्या सामान्य लोकांखातीर दाबोळी विमानतळाच्या आदारान निदान दिसवडो सुटूटा तसली संद पेडणेच्या लोकांकूय मेळपाची अशें दिसता.

हें जर खरें आसत जाल्यार आमी पेडणेच्या युवकांचेर अन्याय केला. पेडणे आनी उत्तरेचो हेर वाठार उदरगतीकडेन व्हरतले जाल्यार हे जमनीचो विमानतळाखातीर वापर करपूच योग्य थारतलें. पूण कांय सुवार्थी आनी नेणार लोकांचे उचापतींक लागून ही संद हुकल्या म्हणचें पडटलें. फुडाराक हें सिद्ध जालें जाल्यार ह्या लोकांच्या शिरापांक जे कोण मोपा रद्द करूंक वावुरल्यात तांकां तोंड दिवंचें पडटलें. त्याच दिसांची वाट पळोवपा बगर आमच्या हातांत कांयच ना अशेंच म्हणूंक जाय.

प्रतिबिम्ब




**ओं**दूच्या प्रजासत्ताक दिसा पणजी महापालिकेंन मोठो गाजोवाजो करून 'पणजी चकाचक' ह्या नावाची नितळसाण मोहीम सुरू केली. ह्या मोहीमेची एकूच नवलाय म्हटल्यार पणजेतल्या धा शिक्षणसंस्थांचो पालव संबंदीत महापालिकेक सक्रियतेन मेळलो.

कोयराचो विलो लावपाची समस्या गोंयच्या राजधानी शहरांत हालीच्या कांय वर्सान खुबूच उग्ररूप धारण करून बसल्या. दूख भोगपासारकी गजाल म्हटल्यार, पणजी शहर सामकें नितळ उरचें म्हणून थळाव्या नागरिकानी महापालिकेक खास कर दिलो, उच्च न्यायालयान ह्या स्थानीक स्वराज्यसंस्थेक खर आदेश दिलो, २००२ सालच्या कायद्यासकयल पणजी महापालिकेच्या आयुक्तान मोठे अधिकार मेळयले, इतलें आसून गोंयचें राजधानी शार नितळ जायना.

ही परिस्थिती निर्माण जावपाचें कारण किदें? गोंयच्या राजधानी शहराखातीर जी नवी नगर म्हापालिका अस्तित्वांत आयल्या तिचेर शहर नितळसाण सोडून बाकीची कसलीच जबाबादारी ना. हे फाटभुंयेर ह्या शहरांतलो कोयराचो विलो लावपाची तिची सोडवणूक जावप तितलेंच गरजेचें आसा.

मुंबय जी महापालीका आसा तिजेर प्राथमिक शाळा चलोवप, रस्त्यावयल्यो लायटी पेटोवप आनी सांबाळप, उदका पुरवण करप, बस येरादारी चालू दवरप आनी भौशिक नितळसाण राखप अशीं जायतीं कामां करापाची जबाबदारी आसा.

पणजेची 'महापालिका' एकूच काम करता. नेटान आनी कार्यक्षमतेन! तें म्हटल्यार नागरिकांकडल्यान चडान चड पयशे एकठांय करप. तें करतना हे पालिकेक व्हडलेंशें कायदेशीर बंधन लागना. तशें आशिल्लें जाल्यार ही महापालिका वरांचीं वरां रस्तो आडावपी व्हडल्या मोटरवाहनांकडे आडनदर करून पार्किंग विभागाभायर ४, ५ इंच जागेर उभ्यो केल्ल्यो स्कुटरी, मोटारसायकली हांच्या मालकाकडल्यानच वट्ट दोनशे रुपये मुल्त वसूल करची नासली. हातुंतले शंबर रुपये रहदारी पोलीस विभागाक मेळतात. कारण हें काम जोड पालवान जाता.

पणजेतल्यो परंपरागत कोयराच्यो लोखणाच्यो पेटयो ना करून ह्या महापालिकेन देड वर्सा पयलीं रोदाच्यो फिरत्यो पेटयो वापरांत हाडल्यो. तांचो जे तरेन वापर जाता, तो अणभवल्यार ह्या शहरांत रणगाडेच भोवतात अशें दिसपाक लागता.

महापालिकेचे नेमिल्ले कामगारांचेर मोठें बल्ल घेवन प्रत्येक घरांतलो कोयर एकठांय करपाक दर दिसा दनपरां दारार वचपाचें बंधन आसा. जायते फावटी ते कामचुकारपणा करतात. बल्ल हळशीक अवस्थेन आसता. ताज्या दुर्गंधीक लागून नागरिकांक गरजेभायर त्रास जाता.

मुख्य गजाल म्हळ्यार महापालिकेच्यो रोदावयल्यो कोराच्यो पेटयो वता थंय थंय आलायती बायल आनी ७, ८ वर्साचो भुरगो खांदार रेगझिनाचो व्हडलो साक मारून त्या पेटयांतल्यो वस्तू एकठांय करतात. शहर नितळसाणीचो हो प्रकार ही ह्या शाराक नविदाद आसा. ह्या शाराच्या मुख्य मार्केटाच्या नुस्त्या बाजाराच्या दिकेन केन्नाय गेल्यार हळशीक, कुशिल्ल्याची घाण आनी रस्त्यार कोयराच्यो राशी पळोवंक मेळटात.कांय दिसांपयलीं, गोंयचे आदले मुखेलमंत्री आनी पणजेचे आमदार मनोहर पर्रिकार हाणी संबंधीत म्हापालिका आनी सरकारी अधिकारी हांचेर ह्या मार्केटाच्या नितळसाणेच्या प्रस्नावयल्यान फोग काडिल्लो. सुमार म्हयनो जालो तरी परिस्थिती तशाक तशी. हें मार्केट नितळ दवरपाची जबाबदारी थळाव्या म्हानगरपालिकेची आसा. एका राज्याच्या राजधानीतलें हें मुखेल मार्केट सदांच नितळ आसूंक जाय. प्लास्टिक पोतयांचें व्हड प्रमाण, हें पणजे शहरांतल्या कोयराचो विलो लावपाच्या मोहिमेंतली व्हड अडचण ह्या निमताखाला पणजी म्हानगरपालिकेन ह्या शहरांतले व्यापारी, उद्योग आस्थापनां हांका मुल्त केल्याची खबर हालींच थळाव्या दिसाळ्यांतल्यान वाचूंक मेळली. लोकांक रीत शिकोवपी म्हापालिकेन आपल्या सफाई कामगारांक पयलीं रीत शिकोवची.

गोंयांतल्या नगरपालिकांच्या एकंदर येणावळीतलो ६६ टक्के दुडू नितळसाण कामाचेरच खर्च जाता अशें गोंयचे एक सुपूत आनी आयूएएस अधिकारी अलबान कुटो हाणी ६ वर्सां पयलीं उलोवन दाखयल्लें. इतलें आसूनय ह्या राज्यांतल्या एकाय नगरपालिकेच्या अधिकार वाटारानी तोखणाय करपासारखी भौशिक नितळसाण आसा? हें आनीक कितलो तेंप उरतलें?

ह्या राज्यांतल्या प्रत्येक पालिकेक, कोयराचो विलो लावपाखातीरचो आधुनिक तंत्रज्ञानाचेर निंबून आशिल्लो प्रकल्प गोंय

सरकार दितलें अशी घोषणां राज्याचे नगरपालिका मंत्र्यान करून खूब तेप जालो. ओंदूचो पावसाळो येवच्या पयलीं ही मोठी येवजण प्रत्यक्षांत साकार जावप खूप गरजेचें आसा. गोंयांतल्यो कांय खासगी कंपन्यो सरकारी जबाबदारीचो वाटो आपणावन आसात हें विशेष.

शाराच्या भौशीक नितळसाणीचो संबंध थळाव्या नागरिकांच्या भलायकीकडे जसो आसा तसोच भोवंडीकार क्षेत्राकडेनय आसा हें सरकार आनी म्हापालिकेच्या उंचेल्या अधिकाऱ्यांक सांगपाची गरज ना अशें म्हाका दिसता.

गोंयच्या राजधानीशाराच्या कितल्याश्या वाटारांनीं 'पणजे चकाचक' ह्या उतरांचे व्हडले तकटे लागल्यात. ते खऱ्यानीच हें शार नितळ दवरपाखातीर आसा, हाजो अणभव ह्या शारांतल्या नागरिकांक, आनी देश-विदेशांतल्यान ह्या शारांत येवपी भोवंडेकारांक बेगीन येवचो इतलीच अपेक्षा. ७, ८ वर्सांपयलीं गुजराततेंतल्या सुरत ह्या आंतरराष्ट्रीय व्यापारशारान आयिल्ली प्लेगची साथ, देशाच्या राजधानींत आयिल्ली कॉलेराची साथ, सबंध गोंयच्या वाट्याक येवची ना हाजी खबरदारी सरकार आनी म्हापालिका हाणीच घेवंक जाय. तीन वर्सांपयलीं पणजेन काविळीचो जो अणभव घेतलो तो अधिकाऱ्यांच्या बेपर्वाहीचो परिणाम आशिल्लो.

'पणजी चकाचक' ह्या नव्या मोहिमेची जाहिरात करपाखातीर म्हापालीकेन ओंदूच्या प्रजासत्ताक यादस्तिक दिसा पॉप संगिताची व्हडली कार्यावळ आयोजीत केली. इतलेंच न्हय तर त्या उपरांत एका टेंपोर ह्या मोहिमेचे व्हडले तकटे, लाउडस्पीकरावरवीं जाझ संगीताचीं पदां अशे तरेन शाराच्या सगल्या वाटारान जाहिरात केली. हाजें फळ म्हयनो सोपच्या पयलीं पळोवंक मेळटलें अशें पणजी म्हानगरपालीकेन जाहीर केलां. आमी वाट पळोवया.

एक गजाल मात खरी ती म्हळ्यार कोयराचो विलो लावपाचें तंत्रज्ञान युरोपीय देशानीं सोदून काडलां. आमचे जायते व्हि. आय. पी, व्ही. व्ही. आय. पी. थंय वतात. मात तें तंत्रज्ञान ह्या देशांत सवाय भितर हाडपाची गरज तांकां अजून तरी दिसूंक ना. ''पणजी नितळ जावचेखातीर प्लास्टिक पोतयांचो वापर कमी करात, त्यो परतून वापरात, दुसऱ्यो वस्तू तयार करपाक तांचो उपेग करात.'' ह्या नवीन घोषणेचेर तो मेरेन पणजी म्हानगरपालिका स्पष्टीकरण दितली? निमणे स्पष्टच सांगचें म्हटल्यार पणजी म्हानगरपालीकेची कोयर एकठांय करपाची नवी पध्दत नागरिकांक पसंत ना. कोयर नाका थंय उडयलो म्हणून ही म्हानगरपालिका नागरिकांक मुल्त भरूंक लायता. त्याचभशेन, जे नागरीक आपलो दुडू खर्च करून घरासरभोवतणीचो वाटार नितळ दवरता तांका ह्या स्थानिक स्वराज्य संस्थेन दरवर्सा व्हड रकमेचीं बक्षिसां दिवचीं, अशी म्हजी सुचवणी आसा.

**-गुरूदास बाळकृष्ण पेडणेकार**
पणजी

दिलीपबाब बोरकार,
नमस्कार,

'बिम्ब' च्या अंकांत 'रंगघाय' पुस्तकाचें रसग्रहण दिल्लेबद्दल देव बरें करूं. 'बिम्ब'च्या कांय वाचकांनी म्हाका चिटी बरोवन आपलो अभिप्राय कळयिल्ल्यान खूब खोशी भोगली. तुमच्या नेमाळ्यान अशे जागृत वाचक निर्माण केल्यात हाची नोंद घेवन तुमकां परबीं भेटयल्या बगर रावं नजो.

'बिम्ब' नेमान उजवाडाक हाडपाचें काम हातांत घेवन आनी त्या भायर अंक सुंदर सोबीत आनी दर्जेदार आसचो हाची जतनाय दवरून कोंकणी भाशेच्या बरपावळीच्या प्रसाराक तुमचें योगदान भौच तोखणायेचें थारलां हातूंत दुबाव ना. सर्वसाधारण वाचकांक 'बिंम्बा'च्यो प्रती सोदून लेगीत मेळनांत हाची दखल घेवन फाव तीं पावलां उचल्ल्यार भेस बरें जातलें. मन उक्तें करून सांगन दिसता की तुमच्या 'बिम्बां'त समाजाच्या सगल्या थरांतल्या आनी वर्गांतल्या लोकांचें पडबिम्ब दिश्टी पडटा. देवनागरी लिपींत येवपी अर्थीक बळाचो उणाव नाशिल्ल्या प्रकाशन पत्रांक लेगीत हालीं जें साधलें तें भोव गरजेचें काम तुमचे कडसून घडून आयलां. तुमी फकत एक लेखक आनी प्रकाशक इतलेंच न्हय तर एक 'सोशियल एक्टिविस्ट' म्हूण नामना जोडल्या. ते खातीर जांवये, जें हेरांक जमलें ना तें तुमी जतनायेन करून दाखयलां. पावला पावलार तुमच्या यत्नांक यश मेळूं आनी 'बिंम्बा'क लोकप्रियतेचे तेंगशेर पावोवपाक तुमकां आर्थीक, नैतीक आनी आत्मीक बळ मेळत रावूं हीच इत्सा.

बरें मागून

तुमचो
**- युसूफ अ. शेख**

*बिम्ब मासिक सगळ्यांकडेन पावंचें, लोकांक तें चडशा बूक स्टॉलांचेर मेळचें म्हूण आमी फाटलीं चार वर्सां पुराय गोंय आनी सदाशिवगड कारवारमेरेन दर म्हयन्याक नेमान अंकाच्यो प्रती धाडटाले. पूण त्यो पावत्यो करप, ताचो हिशेब हाडूंक वचप आनी हजारांनी प्रती छापप हें बिम्ब मासिकाक आर्थिक नदरेन परवडना. ते पासत जंय चड अंक खपतात अशा मुखेल स्टॉलांचेरूच अंक दवरतात. आमी चड भर दितात वर्गणीदारांचेर. जर कोणाकूय अंक वितरण करपाची इत्सा आसत आनी जबाबदारी घेता आसत जाल्यार आमकां खोस जातली*

*- संपादक*

शिर्षकथा




# काय मोपा? कोण खेळटा आपा लिपा?

- दिलीप बोरकार



गोंयचें मुखेल उत्पन्न खंयचें? असो जर कोणाकूय आज प्रस्न करीत जाल्यार दोळे धापून जाप मेळटली ती म्हळ्यार पर्यटन. आयज गोंयची मुखेल येणावळ निंबून आसा ती पर्यटनाचेर आनी दिसान दीस गोंयांत येवपी देशी विदेशी पर्यटकांत वाढ जायत आसा. ह्या पर्यटकांकडल्यान जी येणावळ येता ताचेरुच गोंय राज्याचो आर्थिक कणो घटमूट उरतलो हें सांगपाक कोणा पारख्याची आयज गरज उरूंक ना.

गोंयकारांचो, मागीर तो गोंयांत आशिल्लो जावं वो पोटा पाणयाखातीर गोंय सोडून संवसाराच्या फाटीर खंयीय गेल्लो आसूं तांचो गोंयचेर उप्पाट मोग आसा. गोंय, गोंयकारपण, गोंयची अस्मिताय अश्यो खूपश्यो गजाली ह्या गोंयकारांक लागतात. तेच पासत गोंय हें गोंय उरचें, तें दुसऱ्या राज्यांत भरसून वचचें न्हय म्हूण गोंयकार सदांच जागृत रावला. गोंय महाराष्ट्रांत गेलेंना जायत पूण हेर सगळीं राज्यां गोंयांत भरसून गेल्यांत आनी गोंय हें तरी नांवाखातीर गोंय उरलें तरी तें आयज गोंयकारांचें नक्कीच उरूंक ना.

आयज जे पद्धतीन आनी वेगान गोंयची उदरगत जाता ती पळयल्यार पन्नास वर्सां आदलीं गोंयचीं सपनां पळोवपात अर्थ ना. जो कोण पळयता ताका परिस्थितीचें भान ना अशेंच म्हणचे पडटलें. गोंय जे गतीन बिगर गोमंतकीयांचें जायत चल्लां तें पळयत जाल्यार आनी कांय तेपान तें फकत एक राज्य उरनासतना मुंबयसारकें शार जावन वतलें. ही वस्तुस्थिती आसा आनी ती आपणावपाची तयारी आमी दवरूंक जाय.

बिगर गोंयकारांचे वाडटे लोक संख्ये वांगडाच गोंयांत पर्यटकांची रीग लागता. ताचें कारण म्हळ्यार गोंयची सैमीक सुंदराय,

शांतीकाय आनी गोंयकारांचो सोयऱ्यांक येवकार दिवपाची खाशेली गोंयकारपणाची रीत. हाकाच लागून देशी-विदेशी लोक केन्ना गोंयां केन्ना गोंयां करीत आसतात.

पर्यटकांक गोंयांत येवपाखातीर येरादारीचे वेगवेगळे पर्याय आसले तरी आयज विदेशी पर्यटकांवांगडाच देशी पर्यटकूय विमान सेवेचो लाव घेवन तेच येरादारीक प्राधान्य दिवंक लागल्यात. आयज आदली सारखो विमान प्रवास गिरेस्तांची मक्तेदारी उरुंक ना तर सर्वसामान्य पर्यटकाक विमान प्रवास परवडूंक लागला. रस्तो आनी रेल्वेमार्ग ही येरादारीचीं साधनां वेळेचो अपव्यय करपी अशें भोवतेक पर्यटकांक दिसूंक लागलां. तातूंत नव्यो नव्यो विमान कंपन्यो विमानसेवा दिवंक लागिल्ल्यान ह्या वेवसायांत सर्त निर्माण जाल्या आनी तेच पासत विमान प्रवास आयज आदलीं सारको म्हारग उरुंक ना.

एका दशकापयलीं इंडियन एअर लायन्स ही एकली एकसुरी हवाई कंपनी देशांतर्गत विमान सेवा दिताली आनी एअर इंडिया ही तेच कंपनीची भयण विदेशांत विमानां सोडटाली. उप्रांत अर्थवेवस्तेवयलीं बंदनां सदळ जावंक लागिल्ल्यान मुक्त मळब धोरण चालीक लागलें आनी खासगी विमान कंपन्यो ह्या येरादारी वेवसायांत देवल्यो. तांची गिरायकां सोदपाची सर्त वाडली आनी ताचो फायदो प्रवाशांक जावंक लागलो. दोन वर्सांपयलीं गोंय दिल्ली विमान प्रवास येवंक वचूंक पंचविसेक हजारांचेर पडटालो. आतां मुंबयच्यान लंडनाक पंचवीस हजारांभितर येवंक वचूंक शकतात. एअर डेक्कन ही विमान कंपनी तर सगळ्यांत सवाय विमानसेवा दिता आनी हेर कंपनीय ते सर्तींत देवंक सोदतात. म्हणटकच आयज बसस्टँड आनी रेल्वे स्टेशनावांगडाच विमानतळांचीय संख्या वाडोवपाची गरज उप्रासल्या म्हणचे परस ती काळाची गरज थारल्या.



गोंयची चडांत चड येणावळ पर्यटन वेवसायाचेर निंबून आशिल्ल्यान गोंयांत आशिल्लो एकलो एकसुरो दाबोळी विमानतळ आयज गरजेक पावना. तेच पासत आयज आनीक एका सुसज्ज विमानतळाची गरज निर्माण जाल्या.

सद्या आशिल्ल्या दाबोळी विमानतळाची प्रवासी घेवपाची क्षमता मर्यादीत आसा. धावपट्टीची लांबी, विस्तार मर्यादीत आसा तेच पासत दक्षिण गोंयांत दाबोळी विमानतळ आसा तसोच उत्तर गोंयांतूय एक सुसज्ज विमानतळ आसचो म्हूण प्रयत्न सुरु जालो आनी तेच पासत आयज गोंयांत विमानतळाच्या नावान वाद सुरु जावन गोंयचीं दक्षिण गोंय आनी उत्तर गोंय अशी दोन गोंयां जातात काय कितें असो प्रस्न उप्रासलो.

## मोपा जातलो

- मनोहर पर्रीकार

आंतरराष्ट्रीय विमानतळ २४ वरां उक्तो आसचो पडटा. कारण आंतरराष्ट्रीय चार्टर विमानां तांच्या वेळाप्रमाण देंवतात. पूण दाबोळे नौदळ आशिल्ल्यान तें शक्य जावंचेना अशें आदले मुखेलमंत्री आनी आतांचे विरोधी पक्ष फुडारी मनोहर पर्रीकार हांकां दिसता. नौदळाक स्वताचे कसरती खातीर एका विशिश्ट काळाखातीर विमानतळ जायच आसता. तें कशेंच चुकना तेन्ना मोपाक पर्याय ना अशेंय पर्रीकार हांचें मत जावन आसा.



### -: दाबोळे विमानतळ कोणाचो?:-

गोंय मुक्ती उप्रांत दाबोळी विमानतळाची जतनाय घेवपाक तो लश्कराचे सुवादीन केल्लो. १९६२ वर्सा भारत-चीन झुंजावेळार भारतीय संरक्षण कायद्याखाल तो तांचे सुवादीन आशिल्लो. १९६८ वर्सा राष्ट्रपतीन काडिल्ल्या अध्यादेशावरवी त्या कायद्याची अंमलबजावणी सोंपली. ते उपरांत नौदळान दाबोळी नागरी विमान उड्डाणाखातीर गोंय सरकाराचे सुवादीन करपाक जाय आशिल्लो. मात आज मेरेन नौदळान ताचेवेलो आपलो ताबो सोडिल्लो ना.

हे विशीं कुडचडेचे आमदार माथानी साल्ढान दोशी थारायतात गोंय सरकाराक.

सरकाराक नौदळाचे कायदे आनी अधिकार खबर नाशिल्ल्यान ताचो गैरफायदो नौदळान घेवन अजूनय विमानतळाचेर आपलो अधिकार गाजयतात. गोंय नौदळ विभागाचे रियर अॅडमिरल संजय वडगांवकाराच्या म्हणण्याप्रमाण नौदळान दाबोळी विमान तळाचेर ७० हजार कोटी रुपया खर्च केल्ल्यान नौदळ ताचेर आपलो हक्क सांगूंक शकता.

पूण वडगांवकाराचें हें विधान कुठ्ठाळच्या आमदाराक चुकिचें दिसता. तांच्या म्हणण्याप्रमाण दाबोळी नागरी विमानतळाचें बांधकाम आनी दुरुस्ती ओब्रा पुब्लीका म्हळ्यार रासवळ बांदकाम खातें करताली. नौदळाचे सुवादीन हो विमानतळ केन्नाच नाशिल्लो. जर वडगांवकार ७० हजार कोटींची गजाल करता तर अंजदीव जुवें ताब्यांत घेतिल्लें तेन्ना नौदळान गोंय सरकाराक एक पयसो दिवंक ना. तेन्ना त्या जुव्याचें मोल ७० हजार कोटी अशें समजून दाबोळी नौदळान गोंय सरकारचे सुवादीन करपाक जाय.

**-: दाबोळेचे कितें करप?:-**

अंजदीव आनी दाबोळी हांची मोलावणी करून भारत सरकार आनी संरक्षण मंत्रालय कितें आनी केन्ना निर्णय घेता तो घेता. पूण आयज प्रस्न आसा तो दाबोळे विमान तळाचें करप कितें?

एक गजाल खरी ती म्हळ्यार आयज विमानाची संख्या पळयत जाल्यार दाबोळी विमानतळ देशी-विदेशी विमान येरादारीक उणो पडटा. डबल डेकर बसी सारखीं डबलडेकर विमानाय तयार जातात आनी चार्टड फ्लायटीनी चड विदेशी पर्यटक गोंयांत येतले जाल्यार तांची गरजूय आसा. अश्या ह्या विमानांचें येवप-वचप दाबोळे शक्य आसा काय कितें हें पळोवंक जाय.

दाबोळे विमानतळ कोणाचो? गोंय सरकाराचो काय नौदळाचो हाचेर कांडप करचे बदला सद्या तो नौदळाकडेन आसा हें सत. हो विमानतळ मुखेलपणान नौदळाच्या विमानाक सराव करपाखातीर आसा. देखून मुलकी विमान सेवेखातीर नौदळान बंदना घाल्यांत. हीं बंदना काडटलो जाल्यार सरभोंवतणची जमीन संपादन करून विमानतळ वाडोवचो पडटलो. तरी हो विमानतळ सद्याची परिस्थिती पळयल्यार पावपाचो नाही सत गजाल.

**-: मोपा विमानतळा फाटलें राजकारण:-**

दाबोळी विमानतळाच्या मालकी हक्कावेल्यान निर्माण जाल्लो गोंदळ आनी गोंयांक विमानतळाची गरज हाका लागून पर्याय म्हूण आनीक एक विमानतळ जावंचो म्हूण मोपा विमानतळ संकल्पना मुखार आयली.

नोव्हेंबर १९९९ ते नोव्हेंबर २००० मजगती फ्रांसिस सार्दीन हे गोंयचे मुखेलमंत्री आसताना केंद्र सरकारान मोपा विमानतळाक मान्यताय दिल्ली. त्या उप्रांत मनोहर पर्रिकारांचें भाजपा सरकार सत्तेर आयलें आनी ऑक्टोबर २००० ते फेब्रुवारी २००५ च्या काळांत ह्या

## दाबोळी विमानतळाचो विस्तार जाय

- लुईझिन फालेरो

गोंयांत पुर्तुगेज काळार सावन चालू आशिल्लो दाबोळी विमानतळाचो बेगीनात बेगीन विस्तार करून आंतरराष्ट्रीय विमानतळाचो दर्जो दिवपाची मागणी शिक्षणमंत्री लुईझीन फालेरो करीत आसात.

राज्यांत सद्या मोपा - दाबोळी विमानतळाचो वाद सुरु आसून ते विशींचो अहवाल धाडपाखातीर प्रधानमंत्री डॉ. मनमोहन सिंग हाणीं गोंयचे मुखेलमंत्री प्रतापसिंग राणे हांच्या अध्यक्षतेखाला एके समितीची निवड केल्या. हे समितीमुखार फालेरोन २० एप्रिलाक निवेदन सादर केल्लें. त्या निवेदनांत फालेरो म्हण्टा. दाबोळेची नौदलाच्या सुवादीन आशिल्ली जमीन विमानतळाच्या विस्ताराखातीर दिवंची अशी आपणे केंद्रीय संरक्षणमंत्री प्रणव मुखर्जी हांचेकडे मागणी केल्या. तशेंच राज्य सरकारान संपादन केल्ली जमिनूय गरज पडल्यार दाबोळे विमानतळाक दिवंची. ह्या विमानतळाच्या विस्ताराखातीर पाच कोटी मंजूर करचे आनी विमानतळाकडेन येवपा वचपाचो मार्ग चार पदरी जलदगतीचो करचो.

## मोपाखातीर भाजपाची मोहिम

मोपा विमानतळ जांवकूच जाय म्हूण भारतीय जनता पार्टीन ३ ते १० मे मेरेन गोंयभर जागृताय मोहीम राबोवपाचो निर्णय घेतला. मोपा जायच म्हणपाखातीर पुराय गोंयच्यान लाखभर निशाण्यो घेवपा वांगडाच १९० पंचायत वाठारांत सुमार ५० जाहीर सभा घेवपाचें थारायलां. भाजपाचे दोनशें कार्यकर्ते शंबर मोटर सायकलीवेल्यान गोंयभर भोंवून पत्रकां वांटपाचे आसात. आठ दीस हे कार्यकर्ते मोपा वाचयात म्हणत गोंयभर जागृताय फेरी काडपाचे आसात. दाबोळे वांगडाच मोपा गोंयांक कितलो गरजेचो हाची म्हायती तांच्या पत्रकांनी आसतली. खासदार श्रीपाद नायक हांच्या मुखेलपणाखाल ही मोहीम चलतली आनी लाखभर सह्यांचें निवेदन प्रधानमंत्री डॉ. मनमोहनसिंग हांकां भेटयतले.



मोपा विमानतळाच्या वावराक गती दिली. पूण काँग्रेस पक्षांतल्याच कांय लोकांनी दाबोळी विमानतळाचेर भर दिवन मोपा विमानतळ जावचो न्हय देखून यत्न केले. आनी गोंयांत मोपा आनी दाबोळी अशे सरळ सरळ दोन गट पडले. परिस्थिती इतली हाताभायर गेली की आता दक्षिण गोंय आनी उत्तर गोंय अशे गोंयचे दोन कुडके जातात काय कितें असो भंय निर्माण जालो.

जेन्ना सत्ताधारी पक्षांतलेच सरकाराआड उगडपणान वावुरतात तेन्ना आनी वेंचणूक लागीं पाविल्ली आसतना एखाद्रो वादग्रस्त प्रकल्प सरकाराक मुखार व्हरप परवडना. तेच पासत मोपा विमानतळाचो वादग्रस्त प्रस्न हुमकळायत दवरुन दुसरे वटेन दाबोळी विमानतळाचोच विस्तार करपाचो यत्न गोंय सरकारान चलयलो आनी हाका लागून जांकां मोपा जावंचो अशें दिसतालें त्या लोकांची शक्त उणी पडली.

ह्या सगळ्या राजकारणांक लागून गोंय सरकारचे तीन कोटी रुपया उदकांत गेले. खूप जाणांचो वेळ फुकट गेलो. मोपा आंतरराष्ट्रीय विमानतळाखातीर संपादीत केल्ली जमीन ताब्यांत दवरपाक सरकारान कसलीच हालचाल केली ना देखून फाटलीं पांच वर्सां खर्चून केल्ले जमीन संपादन रद्द जालां अशें म्हणचें परस तें जातलें हें खबर आसून जावचें देखून वेळकाडू धोरण सराकारान आपणायल्लें तातूंत काँग्रेसपक्षाक यश आयलें

**-:जिखले कोण आनी हारले कोण ?:-**

मोपा विमानतळ जाल्यार दक्षिण गोंयचीं हॉटेलां बंद पडटलीं, फायदो उत्तर गोंयाक जातलो अशी बोब हुयेल मारीत दक्षिण गोंयचे खासदार चर्चिल आलेमांवान दक्षिण गोंय हालयलें. दाबोळी विमानतळ कितलो गरजेचो हें लोकांक पटोवंक चर्चिल यशस्वी जालो. त्या मानान उत्तर गोंयचे आमदार आनी ताच्या वांगडचो पर्रिकार बी आपली शक्त सिद्ध करूंक शकलेनांत. मोपा विमानतळ जाय काय नाका हो थंड तकलेन विचार करपाचो प्रस्न. तो ह्या दोनूय पंगडानी रस्त्यार हाडलो. हातूंत चर्चिलाचो फायदो भरपूर जालो. भाजपा हे वेंचणुकेंत मोपाचो प्रस्न घेवन वेंचणूक गाजयतलो. पूण ह्या झुजांत लुकसाण कोणाचें जालें? हाची जाप आतां ह्या दोनूय पंगडांनी सोदून काडची पडटली.

***

## प्रफूल्ल पटेलान वारो काडलो.

आयज मोपा विमानतळाच्या वादाक लागून गोंयांत दक्षिण आड उत्तर अशें झूंज चालू आसा. झूंजाचे उत्तरेकडले फुडारी जितेंद्र देशप्रभू तर दक्षिणेकडले चर्चिल आलेमांव. दोगूय काँग्रेसचे. पूण जितेंद्र देशप्रभूक भाजपाचो तेंको तर चर्चिल आलेमावांक युजिडिपीचो. हाका लागून गोंय काँग्रसचे तीन तेरा वाजतात. सत्ताधारी पक्षाक मोपा आंतरराष्ट्रीय विमानतळाविशीं कसलोच ठोस निर्णय घेवंक येना. अशे वेळार केंद्रीय नागरी उड्डानमंत्री प्रफुल्ल पटेल हाणी देशांतल्या दोन विमानतळांमदल्या अंतराचें बंधन अर्द्यार हाडपाची आनी एकंदर ४० विमानतळांच्यो धावपट्ट्यो चालीक लावपाची घोशणा केल्ल्यान मोपा विमानतळ परतून चालीक लागपाची आस्त उप्रासल्या. सद्या देशांतल्या दोन आंतरराष्ट्रीय विमानतळांमदीं १५० कि.मी. अंतर आसचें असो नेम आसा. विमानतळांची वाडटी मागणी आनी गरज मतींत घेवन हें अंतर अर्द्यार हाडपाचे आसात. त्या भायर ४० विमानतळांच्यो धावपट्ट्यो अविकसीत रुपांत आसात त्यो सुदारपाचो वावरुय रोखडोच सुरु करतले.

उत्तर गोंयचो मोपा विमानतळ आनी दक्षिण गोंयचो दाबोळी विमानतळ हांचें मदलें अंतर ७५ कि. मी. आशिल्ल्यान गोंयासारख्या ल्हान राज्यांत दोन आंतरराष्ट्रीय विमानतळ नेमाप्रमाण जावंक शकचेनांत अशें मोपा विरोधक उलयताले. तांचो वारो प्रफुल्ल पटेलान अशे तरेन काडून उडयलो.



पडवेर



# पुनर्जन्म

- रामकृष्ण जुवारकार

पुनर्जन्माचें रहस्य कितें तें समजून घेवंक जाय. कांय जाण म्हण्टात संवसाराची आस भागना म्हूण परतून जन्म घेवचो पडटा तर कांय जाण म्हण्टात संसाराची कसलीच आस धरची न्हय. जन्म-मरणाचो फेरो चुकोवन मोक्ष मेळोवचो. पूण सामान्य मनशाक असो सोपेपणीं सोक्ष-मोक्ष लावंक कठीण आसता.

कांय जाणांक संवसाराची इतली रूच लागिल्ली आसता. कीं ते देवाक म्हण्टात ''व्हरता जाल्यार व्हर. पूण परतो बेगीन संवसारांत हाडून सोड!'' तांका मोक्ष रूक्ष दिसता.

पूण तितलोच पुनर्जन्माचो भयूंय दिसूंक लागता. मनीस म्हूण पुनर्जन्म जायत काय सुणें, माजर, कोलो, गाढव, अशा रूपान पुनर्जन्म जायत हें नक्की कळना. कारण आपल्या कर्मा प्रमाण ते ते योनींत जल्म जाता अशें शास्त्र सांगता.

कांय जाण पुनर्जन्म नाच अशें सांगून हो विशय सोपयतात.

हो विशय विसरायेर घालो तरी पुनर्जन्म आसा असो दुबाव केन्ना केन्ना येवंक लागता.

एकाद्रो मनीस आपल्या सुण्या-पेट्यांची खूप अर्थ-अपुर्बाय करता. ''म्हजो गुणाचो टॉमी, ताका सगलें समजता. तो सांगिल्लें आयकता.'' अशे तरेन आपल्या सुण्याचीं वर्णनां करीत मनीस ताका सांसपिता, म्हर्‍यांत ओडटा आनी ताका लागत तें दिता. तें पळोवन ह्या प्राण्यान आदल्या जल्मांत खूप पुण्याय केल्ली पूण कसले तरी चुकीक लागून ताका सुण्याचो जल्म प्राप्त जालो अशें दिसूंक लागता. तर अर्दपोटी, बेवाशी सुणीं हांगा थंय हेडटना पळोवन ह्या प्राण्यांनीं आदल्या जल्मांत कितें तरी गंभीर अपराध केल्ले आसूंक जाय अशें दिसूंक लागता.

कांय माजरां मात पूर्व-जल्माचीं आशेखोर पोरां आसलीं असो संशय येता. पूर्व जन्मांत तीं बापायच्या वांट्याक आशेल्लीं. पूण तेन्ना सादलें ना म्हूण ह्या जाल्माक वांट्याक लागून सतायतात काय दिसतात. सुणें म्हण्टा खंय ''धनयाचें बरें जांव आनी आपल्याक बरें खावंक मेळूं.''

स्वताची तुस्त करपी प्राणी म्हळ्यार मनीस प्राण्यामदें आपूण सर्वश्रेश्ट अशें तो मानता केन्ना केन्ना दुसर्‍यांक हिणोवंक ताका सुणें, गाढव अशेंय म्हण्टा. पूण हो ताचो अहंगंड. गाढव मान सकयल घालून कश्ट काडपी. सुणें तर विश्वासी आनी प्रामाणीक. मनशाची कूड ह्या गुणांक कमी पडटा म्हूण ताणीं सुण्या कुडींत जल्म घेतलो आसूयें. सदगुरून पसून तांच्या ह्या सदगुणांक लागून तांकां आपल्या म्हर्‍यांत दवरले.

संवसारांतले पक्षी तरा-तरा रंगांनी सोबतात. मनशाक एकूय रंग सारको सोबना.

दर एक प्राण्याक कांय विशेश गूण आसतात. मनशान आपलीच व्हडवीक गावंक जायना. आपलें मानदंड सगळ्या प्राण्यांक लावंक जायना. संवसारांत अशे जायते प्राणी आसात जे मनशाक मानीय नात आनी ताची पर्वाय करिनात. रानांत उडपी पक्षांक तर मनशाचें पडलेलेंच ना.

खंयच्या प्राण्याक केन्ना म्हत्व येत सांगू नज. कावळे आत्म्यांचें वाहन कशें. कावळो पिंडाक स्पर्श करिना जाल्यार मनीस वयर पावना. खंयचे तरी आशेक लागून मर्दीच उरता. मागीर कावळ्याक मनोवचो पडटा. तशेंच तांकां काकूळ दिल्या बगर वयर गेल्ल्या आत्म्यांक ग्रास पावना.

पुनर्जन्मांत दर एक प्राण्याच्या समाजाक हें ना तें म्हत्व आसता. मनीस मात आपल्या जल्माक मेळत थंय म्हत्व दिवंक सोदता.

कोगूळ फाटल्या जल्माची मंजूळ गायिका आसूंये. काळी म्हूण मनशानीं हिणयली आनी पक्षी रूपाक पावली-शेवण्यांक काळो रंग पसून सोबता.

फाटल्या जल्मांत कितें बरें वायट कर्म केलां त्या प्रमाण ह्या जल्मांत फळ मेळटा अशें सांगतात.

गरिबी जळा-मळा पसरल्या पूण कांय सभाग्यांक रोखडीच पैशांची खण सांपडटा. ते आदल्या जल्मापसून खणीत आसतले.

फाटल्या जल्मांतले कांय धूर्त कोले ह्या जल्मांत आलेभाव-कोलेभाव जावन वावुरतात आसतले. केन्ना केन्ना शेजारी कारण नासतना वैरी जातात. ते आदल्या जल्माचे वैरी आसतले.

कांय विद्वान आदल्या जल्माचे विद्वाटे कशे दिसतात. मेळत त्या कामाक उडयो मारतात ते आदल्या जल्माचे वानर आसूं येतात. ह्या जल्मांतले जायते राजकारणी फाटल्या जल्मांतले रेडेपाडे आसूं येतात.

कांय प्रेम-प्रकरणां पळोवन तीं फाटल्या जल्मांत सुरू जाल्यांत आनी ह्या जल्मांतूय सोपपाचीं न्ह य अशें दिसूंक लागता.

पुनर्जन्माचें अख्यान सोपपाचें न्हय.

***

दिका

# सत मानूंक कुस्तार अशें...

- विन्सी क्वाड्रूस

लोटलेच्या क्रिस्टल रॉक हॉलांत हांव म्हज्या एका इश्टाच्या काजाराक गेल्लों. काजार बऱ्याच उमेदीन चलतालें. खावप-पिवप चालूच आसलें. हांव मातशें उसरां गेल्ल्यान म्हजे बरोबर आशिल्ल्या म्हज्या पुतान म्हाकां सांगलें "कोणाकय स्नॅक्स हाडपाक लाय." ते वटेन पासार जावपी म्हजोच इश्ट तो, ताका सांगलें. तो रोखडोच घेवन येता म्हण गेलो. सुमार अर्दवर तो आयलोच ना. मागीर हातांत दोन प्लेटी घेवन येतना दिसलो. लागीं पावलो पूण आमकां एकय प्लेट दिली ना. कडेक आशिल्ल्या मेजावयल्या मनशांक दिल्यो आनी आमच्या फुडच्यांत आयलो. "तुमकां कितें जाय आसलें?" म्हाकां बाजीगर सिनेमांतल्या जॉनी लिव्हराची याद जाली. असल्या मनशाक सांगिल्ले परस कांयच नाका म्हळ्ळें बरें.

आमकां दिसता सिनेमानी दाखयतात त्यो गजाली जांव कथा - कादंबरीनी उतरायतात त्यो गजाली जांव देखावे वास्तवीक नासतात. एक लेखक वो चित्रकार आपल्या मनांत ते तयार करता आनी लोकांमुखार दवरता. पूण जेन्ना स्वाताचे जिणेकडेन अणभव येतात ते नियाळ्ळ्यार पड्ड्यार दिसपी सिनेमा वो कागदार दिसपी उतरां सामकींच काल्पनीक नासतात तर प्रत्यक्ष जिणेकडेन खंय ना खंय संबंद दवरून आसतात. ती घडणूक कोणा ना कोणाच्या जिवितांत घडिल्ली आसता. जायते फावट आमकां सत मानपाक अवगड जाता अश्यो गजाली मनशाच्या जिवितांत घडटात. आयकूंक अजाप दिसता आनी आमी म्हण्टात हो कितें तरी घडोवन सांगता म्हण.

कांय दीस फाटीं पिलारच्या इश्कोलांत पी. टी. शिकोवपी मॅकाक शीर तुटून मरण आयलें. रक्तदाब चड आसा ताका मेंदवाची तशें जावंक शकता. पूण रक्तदाब चड आसपाक कांय कारणां आसता. जशें सोरो पिवप, सिगार ओडप वो आंगाची घोळणूक जायना अश्या मनशांचो रक्तदाब वाडटा. मॅक हो पी.टी. शिकोवपी आसतनाय एक बरो फुटबॉल गडो आसलो. एक प्रशिक्षक आसलो. पांयांक बूट घालून सद्दां व्यायाम करपी आसलो. चुकून केन्नाय ग्लासभर बीयर पीवपी आनी सिगार तर केन्नाच ना. अशा मनशाचो रक्तदाब वाडप आनी आपले फामीलीक एक जाप दिनासतना मरून वचप म्हळ्यार कोण सत मानूंक शकता? ताच्या मरणाचेर दोतोरांनी पसून अजाप उक्तायलें. एक हॅल्थी आनी फीट मनशाक अशें मरण येवप म्हळ्यार सामान्य मनीस जो सोरो पिता वो सिगार ओडटा वो व्यायाम करिना ताचें कितें? कोणाकय दिसूंक फाव ही सिनेमांतली काणी म्हण! मॅक काना-बाणावलेचो गांवांन. एप्रिलाचे ६ वेर ताका मरण आयलें.

फादर एवजेबियो फेर्रांव, एक पाद्री मनीस. ताचो खून जालो हें सगल्यांक खबर आसा. तीय एका साहित्यकाराची कलाकृती काय दिसता. इश्टागत नाशिल्ले मनीस ते इंगर्जेत वचप, फादरान तांकां आपणाबरोबर जेवणाक दवरप, मागतात म्हण बीयर दिवप आनी न्हिदूंक गेल्ले कडेन फादराचोच खून करप. असल्यो गजाली जायत्या सिनेमानी, कादंबरीनी दाखयतात. पूण प्रत्यक्ष घडूंक शकता हें सत मानपाक अवगड लागता. कसलो तरी राग काडप हें सभावीक पूण अशें अकस्मात कोण तरी घरांत घुसप आनी खून करून पळून वचप म्हळ्यार?

अश्यो जायत्यो गजाली आसात जंय वाचतना वो पळयतना सत दिसना पूण प्रत्यक्ष ताचो अणभव कोणाक तरी आसता. एका साहित्यीकाची नदर वेगळी आसता म्हूण तो ताचेर खोलायेन विचार करता आनी एक घडिल्लीच घडणी मात्शें मीट-मसालो लावन वो तिका पॉलीश करून लोकांमुखार मांडटा. सुनापरांतातलो राजतिलक एक एक वेळार फोटो काडटा ते अपुरबाय करपाचे. ताच्या फोटवांतच एक काणी लिपिल्ली आसता. त्या फोटवाक वाचपाची नदर जाय आनी ती काणी पचोवपाची शक्त जाय.

एक साहित्यीक जें पळयता तें बरयता. एक फोटोग्राफर वो चित्रकार जें पळयता तें कागदार हाडटा. तांकां विचार लागता, वैचारीक शक्त लागता. विचार खेळोवपाची कला लागता.

एक बरी साहित्यकृती वो चित्र वो फोटो असोच जायना. ताका नदरेचो कॅमेरा जाय आसता. उलयता उलयता जाल्लें एक फकाण एक साहित्यकृती जावंक शकता. अशें जायत्या जाणां मदीं घडटा पूण तांकां साहित्यीक नदर नाशिल्ल्यान त्यो गजाली खंय तरी रोकून वतात. खंयतरी एक दिश्टावो घडटा आनी त्या वेळार थंय एक चित्रकार वो फोटोग्राफर नाशिल्ल्यान तो दिश्टावो पुसून वता.

सिद्धार्थ नागराजन, एक आठ वर्सांचो भुरगो आज सगल्यांत ल्हान ड्रमर (ड्रम्स वाजोवपी) चेन्नयच्या पदमा शेशाद्री बाल भवनांत तो तिसरे यत्तेंत शिकता. ताची फामील सगली संगीत क्षेत्रांतलीच पूण सिद्धार्थान भारत हालयला म्हळ्यार जाता. टी व्ही वयल्या प्रत्येक भुरग्यांल्या चेनलांचेर ताणें ड्रम्स वाजयलां. २००३ वर्साक ताका भारतीय गौरव पुरस्कारान सम्मानीत केल्लो. २००४ वर्साक आंतराष्ट्रीय बायलां असोसियेशनान Most Promising Young Musician 2004 पुरस्कार, चेन्नयच्या लायन्स क्लबान Young Achievers Awards 2004 आनी रोटरेक्ट क्लबान Example for Youth २००४ पुरस्कार दिवन सन्मानित केला. लिम्का बुक्स ऑफ रिकॉर्डांत ताचें नांव २००३, २००४, २००५ वर्सांत सगल्यांपरस ल्हान ड्रमर म्हण नोंद आसा. साडेतीन वर्सांचो आसतना सावन तो वाजोवंक लागिल्लो आनी भारताच्या सगल्या राज्यानीं तो भोवला. कितल्याश्याच राष्ट्रीय फॅस्टीव्हलानी ताणें आपली कला दाखयल्या. फाटीं राष्ट्रपती ए.पी.जे. अब्दुल कलाम हांच्या वाढदिसाक तो राष्ट्रपती भवनाचेर वाजोवंक आशिल्लो. आनी खास म्हळ्यार प्रतिश्टीत राजीव गांधी पुरस्कारावेळार एकोड्या वाजोवपांत तो १९/०८/२००५ दिसा मुंबयत लोकांक जिखून गेलो. ह्या शिवाय ल्हान ल्हान कितलेशेच पुरस्कार आनी सम्मान पत्रां ताका फावल्यांत. आमी सट्ट करून हें सगलें सत मानूंक तयार आसात?

आमच्या जिविताक अजाप करून उडोवपी ह्यो गजाली. आमीय ताचो लाव घेवंया आनी अशेंय सवसारांत घडूंक शकता आनी मनशाक अजापीत करूंक शकता म्हण मानून घेवंया. कित्याक आजचे यूग जरी कंप्युटर यूग आसलें जाल्यार पसून मनशांमदीं चमत्कार आनी मनाक पटना तसल्यो लेगीत गजाली घडटात. ताचेकडेन आमी सहमत आसूंक जाय. आनी हें एका साहित्यकारानच वो चित्रकारानच न्हय जाल्यार सामान्य मनशान लेगीत हाचो आनंद घेवपाक जाय. तेन्ना जिविताचो खंय तरी कोनशाक पडिल्लो कुसवो रूजतलो.

***




## मांय गे मांय गे

चलो : आगो चेडवा, कित्याक तूं लजता
पोयतोच म्हाका, बेश्टेंच तूं हांसता
मोगान म्हज्या, पडलां शें दिसता
काजार जातेलें मिस्ता !

चली : मांय गे मांय गे, मांय गे
तूं भायल्यान येवून मात्शें पळे
पोय गे पोय गे, पोय गे
तो चेडो मोडटा म्हाका दोळे
मांय गे मांय गे, मांय गे
तो काजार जावंक सोदता म्हजेकडें
पोय गे पोय गे, पोय गे
खड्ड्याचे केंस गेल्या थोडे

कोरस : मांय गे मांय गे, मांय गे

चलो : आगो चेडवा, नांव म्हजें पिएदादी
आसा म्हुजी सोन्याची गादी
घालतां तुका उतराची मुदी
काजाराचें उतर दी !

चली : मांय गे मांय गे, मांय गे
तूं भायल्यान येवून मात्शें पळे
पोय गे पोय गे, पोय गे
तो चेडो म्हाका आपोयता
साकवाकडें
मांय गे मांय गे, मांय गे
तो उतर मागता म्हुजेकडें

कोरस : मांय गे मांय गे, मांय गे

चलो : आगो चेडवा, एकलेंच तूं घरांत
सदांच उबें, आसता तूं दारांत
योगो व्हरतां बसोन मोटारांत
भोंवया म्हापशा बाजारांत

चली : मांय गे मांय गे, मांय गे
तूं भायल्यान येवून मात्शें पळे
पोय गे पोय गे, पोय गे
तो चेडो उलोवंक सोदता तुजेकडें
मांय गे मांय गे, मांय गे
पोय मोटर आसा खंय ताचेकडें
पोय गे पोय गे, पोय गे
किर्ते जाता म्हुज्या हड्डयाकडें

गावपी : मॅक आनी सिल्वा भयणी

## घडामोडी




*'कोंकणी भास साहित्य आनी संस्कृताय' ह्या कोंकणी भाशा मंडळाच्या पुस्तकाचें विमोचन करतना मुखेलमंत्री प्रतापसिंग राणे, वांगडा भाशा मंडळाचे अध्यक्ष भिकू बोमी नायक, दत्ता दामोदर नायक, कमलाकर म्हाळशी आनी भाशा मंडळाचे सचिव नित्यानंद नायक.*




*नयना कामत नाडकर्णी हांच्या 'गुंजो' कविता संग्रहाचें प्रकाशन करतना कवि माधव बोरकार, डॉ. सुबोध केरकार, दिलीप बोरकार आनी नयना नाडकर्णी*

गिरिज्याक कळचें न्हय. पेकिंग ताणें सोडोवंक नाशिल्लें, तरी तातूंत कपडेच आसतले, हाची खात्री गोंदूक आशिल्ली.

पावलूचो डेडी भायर आसता. गोंयांत येतना वांगडा तो साडयो, टी शर्ट, मसाल्याचें सामान बी हाडून आपल्या सोयऱ्या धायऱ्यांक आनी इश्टांक वाट्टा. गोंदूक ताची कल्पना आशिल्ली. ह्याय पेकिंगांत आपल्या खातीर टी शर्ट बी शेर्त आसूंक जाय, अशें गोंदूक दिसतालें.

पणसा धोलींत लिपोवन दवरिल्लें पेकिंग गोंदून आतां भियेत भियेत, लिपयत घरा हाडलें. घरांत कोण ना तें पळोवन तो निसण लावन माळ्यार चडलो. जतनायेन पेकींग सोडलें. पळे जाल्यार टि-शर्ट आनी कल्सांव. काळ्या, तांबड्या, आडव्या पट्ट्यांचें टी शर्ट. गोंदूक तें खिणांत आवडलें. केन्ना काय घालून पळोवचें शें दिसलें ताका. ताणे आनी आनी वोगोत लायलो ना. माळ्यारच झटपट ताणें तो ड्रेस आगार चडयलो. पयले फावट असलो ड्रेस ताणें आपल्या आंगार चडयल्लो. केन्ना काय आपलें रूप हारशांत पळेनशें दिसलें ताका. पूण माळ्यार आरसो खंयचो? ताणें आनी आनी वोगोत लायलो ना. झपाझप दोन-तीन निसणी पावंडे देवलो आनी मदल्यानच जमनीर उडी घेतली. एकच धांव मारून ताणें कोळयांतलो वाटकुळो हारसो घेतलो. टी शेर्टातली आपली कूड कशेबशेन पळोवन घेतली आनी तो धादोस भरीत जालो. लोकांक अबरगत दिसपी गोंदू आज काळो आसूनय टी शर्टांत आतां बरो झेतार दिसतालो. ताचे कुडींत आतां नवें चैतन्य खेळूंक लागिल्लें, आपूण गोरो आनी सशक्त नासलों तरी दिसपांत सामकोच बाबत ना, हाची जाणविकाय आतां गोंदूक जाली.

इतलें म्हणसर खंयच्यान तरी गिरिजें आनी ताचीं भुरगीं वांगडाच घरांत भितर सरलीं. आपल्या घरांत एका अनवळखी तरनाट्याक पळोवन तीं सगळीं एकदम काचाबूल जालीं. गिरिज्यान तर मोट्यान एकच किळांच मारली. ताका दिसलें कोणय तरी चोर आपल्या घरांत भितर सरला. गोंदूय आपले काकेची किळांच आयकून गोंदळून गेल्लो. तो आकांतलो आनी असोऽऽ बिलू कसो जावन सगळ्यांक पळेत रावलो. आतां गोंदूची फाव तशी हालचाल जायना ती पळोवन गिरिज्याक इल्लो नेट आयलो. तें दोन धेपां फुडें आयलें. बारीकसाणीन गोंदूचेर ताणे नदर माल्ली. पळे जाल्यार तो तरणाटो चोर-बीर कोण नासून तो आसलो गोंदू!

"काके, हांव तो." गोंदून काकूळटेन आपली वळख करून दिली.

गोंदूची वळख पट्टकीर गिरिजें अजापलें. केदो वेळ तोंडार हात थेवन, दोळे मोटे करून तें गोंदूक पळेत रावलें. आपल्या पुतणयाक नव्या भेसांत पळोवन गिरिज्याक हांशाचो बोंब फुटलो. तें खो-खो करून हांसता तें पळोवन ताचीं भुरगीं लागीं जालीं. तींय गोंदूक पळोवन खोशयेन ताळयो पेटोवंक लागलीं. हें



सगळें पळोवन गोंदूक थंयच्यान खंय तरी धांव मारची अशें दिसलें. ताणें दोनय हातानीं चेरो धांपलो.

"लोजो नाहां रे बाबू, तूं बोरो ऽऽ दिसता." गिरिज्याले व्हडले धुवेन गोंदूली तोखणाय केली.

"बाबू सामको किरिस्तांव कसो दिसता."

"ना तो बामोण कोहो दिसता."

"आमचो बाबू कावो आहा मुगो. तो बामोण कोहो दिसतलो?"

"बामोण काये नागो, वासूबाबालो शिरिकांत गोरो आहा?"

"तो सामको काळो माकोड कोहो दिसता मुगो. आमचो बाबू पूण जायतो बोरो दिसता, सोसो कसो."

"खि-खि-खि." गोंदूल्यो तिगय बापोलभयणी एकामेकाफुडें गोंदूचीं फकणां करूंक लागल्यो. येदो वेळ मान खाला घालून मुकाटच्यानी गोंदू भयणाचीं उलोवणी आयकतालो. पूण जाप काडिनासलो. ताका कोणेतरी धीर दिवपाची गरज आसली. तो धीर ताका आतां गिरिज्यान दिलो-

"बाबू नो होऱ्यांनीच बोरो दिसता. आमचो बाबू हे फुडें ओहर्लींच आंगलीं घालतलो. हांव हाडटोलें तेहा." हीं उतरां आयकून गोंदूक बरें दिसलें. ताका पयलीं दिशिल्लें काकी नव्या पोशाकाक आडमेळें हाडटली. म्हण्टली, "आमकां गावड्यांक आनी शेतकामत्यांक असलो भेस कोताक येवचो ना." काकीन नव्या भेसाक तेंको दिलो आनी गोंदू खोशेन भल्लो. हे खोशे भारान ताणे आपल्याक नवो पोशाक कोणे दिल्लो तें काकेक सांगलें.

"काके, खऱ्यानींच बरो दिसता जे हो ड्रेस माहां?"

"होय रे, होऱ्यानींच बोरो दिसता."

"हाल्यां हो ड्रेस घालून फ्रेंडांक दाखोंव?"

"दाखय."



आनी किरिस्तांव टिचरी गावड्याल्या भुरग्यांक केंसां विणयो घालूंक दिनांत, आंबाडो बांदूंक दिनांत, माथ्यांत फुलां माळूंक दिनांत, माळल्यार रागान पिसडून भायर मारतात, हें सगळीं भुरगीं जाणां आसलीं. गावड्यांल्या भुरग्यांक फुलां माळून इस्कोलाक वचूंक आवडटा. पूण केंस कापून, बोडकुलां जावन इश्कोलांत गेल्यार इंग्लेज बरी येता, असो समज बऱ्याच गावड्यांल्या भुरग्यांचो जाल्लो. किरिस्तांवांलीं केंसकार्पी भुरगीं इंग्लेज फाड फाड उलयतात, अशें गिरिज्याल्या भुरग्यांक दिसतालें. ताका लागून हे फुडें ताणीय केंस कापून घेवपाचो हट्ट गिरिज्याकडे केलो. गिरिज्यानय कोणाची परवा करिनासतना भुरग्यांचे मागणेक मान्यताय दिली. दुसरे दिसा इस्कोलाच्या ग्रावंडार फुटबॉल मेच आसली. खेळगडी आपापले युनिफोर्म घालून ग्रावंडार गेल्ले. इस्कोलांतले आनी गांवचे हेर भुरगेय ग्रावंडार मेच पळोवंक गर्दी करून आसले. ते गर्देंत पावलू आनी गोंदूय आसलो. पावलूक पळेनाफुडें गोंदू ताच्या फाटल्यान वचून उबो रावलो. पावलू हेर वांगड्यांकडे उलयतासतना गोंदून टेपू करून ताचे तकलेर थापटी माल्ली. पावलून फाटीं वळून पळे जाल्यार एक अनवळखी भुरगो, हांसकुऱ्या चेऱ्यान पावलूक पळेता.

गिरिजें मनापासून उलयलें. ताका दिसलें, वापरूनी भुरग्यांक तांकां आवडटा तसले कपडे. किरिस्तांव आनी हिन्दू बामण, घरांत खाण-जेवण उणे करून लेगीत आपल्या भुरग्यांक भायर झेतार भोंवडायतात. मागीर आमचींच भुरगीं फाटीं कित्याक उरचीं? गिरिज्याच्या तकलेंत आतां नवे विचार घोळूंक लागले. गिरिजें कितें तरी चिंता तें पळोवन गोंदून आपलें तोंड उकतें केलें, ''काके, हाल्याच्यान शेवंतीक माथ्यार तेल घालूंक दिंव नाहां!''

''चिज्याक रे!''

''बुरशें दिसता.''

''तेल नाहल्यार हुबचेना रे ते?''

''बॉबकॉट करून बेंड घाहल्यार कांय हुबोना. म्हाज्या फ्रेंडा भोयण बरी दिसता केंस कापून.''

''कोण रे तुजो फ्रेंड, आनी ताचे भोयणीचें नांव कितें?''

''फ्रेंडाचें नांव पावलू, आनी तेजे भोयणीचें नांव किरोण. हो नोवो ड्रेस माहां तेच फ्रेंडान दिला. तेजो डॅडी भायर आहा न्ही जे?''

गिरिजें आनी गोंदूची उलोवणी चलता आसतना गिरिजाल्यो तिनूय धुवो कान लावन आयकताल्यो. व्हडले धुवेक केंसांचो विशय आयकत रावन सो दिसलो. इस्कोलांत माद्री

''पावलू वोवकोना रे माहां, हांव मरे गोंदू!'' गोंदून हात फाकारून दोळे वटारून म्हणलें.

''म्हजे माय, गोंदू मुरे! सामको हिरो दिसता मुरे. बाप्पाय, ज्यानोत दिसता आं! हुंय जेहलां रे टी शर्ट?''

''तुजे मम्मीन दिलां मरे तें माहां. तुकां होबोर ना रे?'' पावलूगेर आरमार भरून मुस्तायकी आसा. आपले मम्मीन गोंदूक कितें तरी प्रेजेंट दिलां इतलेंच पावलू जाणा आसलो. इतलें बरें ड्रेस आपल्या इश्टाक दिलां तें पळोवन पावलूक खूब खोस भोगली. ताका गोंदू आतां ओर्रांद आनी देखणों दिसूंक लागलो. ताणें हेर वांगड्यांक म्हऱ्यांत आफोवन घेतले, सगळ्यांकडेन गोंदूची वळख करून दिली.

गोंदू आतां चडच कोमार आयिल्लो. सदांच फाटीं फाटीं रावपी गोंदू आतां भुरग्यांमदें फुडें फुडें रावंक लागलो. भुरगे आतां आपूण जावन ताच्या म्हऱ्यांत येवन ताच्या खांदार हात घालूंक लागले. हाय-फाय करूंक लागले. पावलूय आतां गोंदूकडेन इंग्लीश मारूंक लागलो. गोंदूय येस-येस, नो-नो करून जापो दिवंक लागलो. अशें आसलें तरी इंग्लीश उलयता आसतना पावलूचो गळो सयल सुट्टा तसो आपलो सुटना हाची खंत गोंदूक जाताली. इंग्लीश उलोवच्या वोगतार आपलो गळो कोण तरी अंदयता असो भास गोंदूक जातालो. तरी तो फाटीं सल्लो ना. आपल्याक बरी इंग्लीश येवंक जाय जाल्यार सुर्वेक लज-भीड धरिनासतना कशाकशीय ती लेफडायचीच पडटली, हाची जाणविकाय आतां गोंदूक जावंक लागिल्ली.

चारचो वगांत भोंवल्याबगर मनीस सुदरना, अशी एक म्हणणी आसा. मनीस वयर सरतलो जाल्यार ताका कोणाचोय तरी आदार जायच पडटा. गोंदून पावलूचो आदार घेतलो जाल्यार, पावलून गोंदूचो कित्याक घेवचो न्हय? पावलूकडे गिरेस्तकाय आसली ती दुडवांची पूण गोंदूकडे आपलेपरस चड शाणेपणाची गिरेस्तकाय आसा म्हणपाचें पावलूक कळून आयिल्लें. पावलू मदें-मदें खूब उलयतालो. पूण तो पावला कणकणी चुकतालो. ताच्यो चुको सुदारपाचें काम गोंदू



करतालो. गोंदू आपल्यो चुको दाखयता हाचें पावलूक मातय वायट दिसनासलें. तशें पळोवंक गेल्यार पावलूक जायते इश्ट आसले. पूण ताच्यो चुको दाखोवपाची कापास्ताद कोणाक नासली. आनी आसतली कशी? दुसऱ्यांच्यो चुको दाखोवन दितल्याची ताकदय तितलीच आसूंक जाय काय नाकां? गोंदूकडेन ती ताकद आसली. गोंदू पावलूचो बरें मागपी आशिल्ल्यान तो आपली जणेक गजाल आयकून घेवपाक पावलूक कोमार काडटालो. पावलूकय गोंदूचीं उतरां आयकून घेवपाची आतां इल्ली इल्ली सवंय जावंक लागिल्ली. गोंदूचे लगाडीक लागून पावलूक आतां सरभोवतणचे नवे नवे प्रस्न आतां आकर्शीत करून घेताले. तांच्यो जापो सोदपाखातीर पावलूच आतां गोंदूच्या फाटीक लागतालो.

मनशाक एकदां गिन्यानाची तान लागल्यार ती भागोवपाक तो जळींमळीं धांवपाक लागता. ही तान भुरगेपणान लागल्यार उत्तम. ती लागोवपाक आवय-बापायन सादूर मात रावंक जाय.

गोंदूक बरी देख दिवंक आनी गिन्यानाची वोड लावंक ताचो आवय-बापूय जाग्यार नासलो. पूण तें काम मुळावें शाळेंतल्या हरिमास्तरान बेसबरें करून दवरिल्लें. हरिमास्तरान घालून दिल्ले बुनयादीच्या आदारान गोंदू खूब कितें करूंक शकतालो. पूण पावलूचें तशें नासलें. पावलूचें सगळेंच उथळ आनी उकलापें. घरांत कलर टिवी आनी नाच गाण्यांची व्यवस्था. वांगडा केबल. आवय-बापायचो एकटोच चलो भुरगो. घरांत कितेंच उणें नाशिल्ल्यान फुडाराची कसलीच चिंता नासली. खावन-जेवन आपल्या पुतान मजा मारची, अशी आवय-बापायची इत्सा. ताका लागून पावलूच्या राज्यांत गिन्यानाक व्हडलेंशें म्हत्व नाशिल्लें. पूण हें म्हत्व ताच्या जिवितांत आतां गोंदून हाडलें.

इतले दीस नावा पुरते फ्रेंड आशिल्ले पावलू-गोंदू आतां पक्के इश्ट जाल्ले. एकामेकांचे बरें मागपी, एकामेकाच्या सुखादुखांत वाटो घेवपी. दोगांचींय मतां एक. दोगांचेय विचार एक. दोगांचोय भेस एक.

केन्ना केन्नाय तांच्या मदें मतभेद जातालो. पूण एकामेकाचेर तिडनासतना, एकामेकांक दुखयनासतना मतभेद मिटोवपाचो दोगय येत्न करताले. तांचें हें वागणें पळोवन जाण्ट्या-नेण्ट्यांक एक बरी देख मेळटाली, लोक म्हणटाले, ''इश्ट आसचे तर गोंदू-पावलू सारखे!'' हीं उतरां जेन्ना दोगांयच्याय कानार पडटालीं, तेन्ना तांकां ती मेळिल्ली एक व्हडली शाबासकीच अशें दिसतालें. ही शाबासकी तांकां तांच्या उदरगतीक बळगें थारताली!

मनशाची उदरगत जातली जाल्यार ताच्या जिवितांतली खंयची घटना वा प्रसंग केन्ना आनी कसो फायद्याक पडत हें कोणाच्यान सांगूंक जायना. गोंदू आनी पावलू हे वेगवेगळ्या धर्माचे भुरगे. वेगवेगळ्या वातावरणांत वाडिल्ले. देवाचे कृपेन ते एकठांय आयल्यात तांच्या इश्टागतीचो फायदो फुडें तांकां कसो मेळटा तो पळोवया.

***




नं. ध. बोरकार
मास्कारेन्हस वाडो,
व्हडलें - गोंय
फोन : २२१८१४७

कथा

# पर्याय

- अतुल र. पंडित



"सायली, तुवें कितें करपाचें थारायलां?" संकेतान विचारलें आनी ताच्या त्या अनपेक्षित प्रस्नान सायली मातशें कांचवेलें. सायलीन किटलेंतली कॉफी आपल्या आनी संकेताच्या कपांनी ओतली आनी विचारलें.

"नक्की कित्याविशीं म्हणटा तूं?"

"सायली, डोन्ट बी स्मार्ट. तुकां खबर आसा, हांव कोणाविशीं उलयता तें. ओगीच पिशें पांगरूं नाका." सायलीचेर नदर रोखून संकेतान म्हणलें.

खिणांत वातावरण खदूळ जालें. भिरांकूळ शांतताय पातळ्ळी. आपल्या मनांतली अस्वस्थताय मुखामळार येवची ना हाची सायली जतनाय घेतालें.

"सायली, तुज्या मुखामळार जे भाव उदेल्यात तीच हांव जाप समजूं?" संकेतान विचारलें. सायली गडबडलें. संकेताक जाप कितें दिवंची तेंच ताका कळना जालें. निमणें एक दिर्घ उस्वास सायलीच्या तोंडांतल्यान भायर सरलोच.

"संकेत, प्लीज ट्राय टू अंडरस्टॅण्ड मी. तो म्हजो स्टाफ. हांव ताका म्हजो लागींचो इश्ट मानतां. आनी खरें सांगूं, शिवम म्हजे परस पिरायेन सुमार धा वर्सांनी ल्हान. ताका आवय - बापूय, भाव - भयण कोण ना. आपलें दुख्ख सांगपाक ताका लागींचो असो कोणूच ना. म्हणूनच म्हाका ताचे विशीं सहानुभुती ...." सायलीन म्हणलें आनी ताचीं फुडलीं उतरां तोडत संकेतान म्हणलें. "फक्त सहानुभुतीच? आनीक कसलीच भावना ना? सारको विचार कर. स्वताकडेन प्रामाणिक रावन पळय. संवसाराक सांगपाक आनी फटोवपाक ही सहानुभुती आदी उतरां उपेगी पडटलीं. सायली, तूं जाणा, शिवमाच्या सहवासाक लागून तूं तुज्या भुरग्याक लेगीत साप्प विसरून गेलां. तुज्या रगताचो गुळो तो. शिवमाक लागून तुजें एकसुऱ्या पुताकडेन दुर्लक्ष जालां."

"संकेत, खरेंच आमचें कांयच ना. हांव फक्त ताचे कडेन उलयतां. ऑफिसांतल्यो गजाली सोडून आमी कांयच उलयनात." सायलीन म्हणलें.

"शट अप. सायली, तुजें आनी शिवमाचें कांयच ना तर म्हाकां एकूच मनापासून सांग, आपलो शिवमाकडेन कसलोच संबंद ना म्हणून. फक्त एकूच फावट." सायलीच्या दोळ्यांत खोलायेन पळयत संकेतान विचारलें.

सायली सामकें अस्वस्थ जालें. तिच्या दोळ्यांत दुकां दाटून आयलीं. तें सोफार बसलें आनी विचार करूंक लागलें. संकेत ऑफिसांत वचूंक भायर सरलो.

"खरेंच! शिवमाविशीं म्हज्या मनांत फक्त सहानुभुतीच आसा? की ताचे पलतडीन वचून आपलेपणाची भावना? शिवमान म्हजेर कसली जादू केल्या? शिवम ऑफिसांत आयलो की सुर्याचीं कोवळीं किरणां आंगार भोंवतात अशीं दिसतात. ताचें मनमेकळें हांसप, उलयतना विनोद करप, ताच्या केंसांची स्टायल आनी ताचो खेळकर स्वभाव. तो म्हऱ्यांत आसतकच खूब बरें दिसता. ताच्या सहवासांत रावतना सगळो संवसार सामको जिवो दिसता. जिणेच्या अंतामेरेन ताचो सांगात मेळचो ही इत्सा! आनी ताचें अस्तित्व फक्त एक वर्स हें वास्तव. कारण फुडल्या वर्सा तो अमेरिकेंत वचपाचो आसा. ताचो मावसभाव ताका अमेरिकेंत व्हरतलो. शिवम सामको भुरगो. तो खूब भुरगेपणां करता आनी म्हणून तो म्हाकां खूब आवडटा. पूण शिवमाचो सांगात आवडटा म्हणून संकेताकडेन प्रतारणां? शिवम म्हाका खूब आवडटा पूण संकेत म्हजो जीव सांगाती. म्हाका कांयच कळना, हांव करूं तरी कितें? शिवमान म्हाका भरभरून सूख दिलें. ताचो गोड स्पर्श म्हजें सर्वांग शिरशिरायता. संकेत म्हजे जिणेंत आयलो, म्हजो जिणे सांगाती जालो. म्हजो घोव जालो. आनी घोव हो दरेके बायलेक देव आसता. पूण सुखी आनी आलिशान जीण कशी जगची

हें म्हाका शिवमानूच शिकयलें. फुडाराक हुस्को करूं नाकां. आयचो दीस तुजो. तो सुखान आनी खोशेन सार असो सल्लो शिवमानूच म्हाकां दिलो आनी म्हजे अळणी जिणेंत उजवाडाचें किर्ण हाडलें. पयर म्हजो वाढदीस जालो. संकेताक म्हज्या वाढदिसाची याद ना पूण शिवमान म्हाकां उंची आनी सोबीत घड्याळ दिली वाढदिसाची भेट म्हणून. म्हज्या सुख-दुखांत तो वांटेकार जातालो. संकेता बदला शिवमूच म्हजो जिणे सांगाती जावंक जाय आसलो अशें सायलीक मनांतल्या मनांत दिसलें.

संकेताचें आज ऑफिसांत चित्तूच लागना जालें. कितें करचें तेंच ताका कळनासलें. सायली आनी शिवमाक आपणें थेटरांत पिक्चर पळयतना पळयिल्लीं अशें संकेताच्या एक इश्टान संकेताक सांगिल्ल्यान संकेत अदीकूच अस्वस्थ जाल्लो. हरशीं तो घरच्या गजालींचो परिणाम ऑफिसांतल्या कामाचेर जावंक दिनासलो. पूण आतां हो प्रस्न घरच्या अस्तित्वाचोच आसलो. सायलीबगर घर ही कल्पनाच ताका अस्वस्थ करताली. तें म्हाकां आनी चल्याक सोडून शिवमाकडेन लग्न जायना मूं? अशी एक भिरांत संकेताच्या मनाक घश्टून गेली. पूण ताचें दुसरें मन सांगतालें : ना, सायली, तशें करचें ना. तें म्हजें. तें म्हजें तें शिवमाचें जावंकच शकना. परिस्थिती ल्हवू ल्हवू सुदारतली अशी आस्त संकेताक दिसताली. पूण दिसान दीस सायलीचे आनी शिवमाचे संबंद वाडिल्ले ताच्या कानार पडटालें. ताचें मन अस्वस्थ जातालें. सायलीक दिवोर्स दिवंचो? पूण भुरग्याचें कितें? आवयचो मोग ताका हांव दिवंक शकतलों? कितें करचें तेंच संकेताक कळनासलें.

सायली आनी शिवमाचे वाडिल्ले इश्टागतीचे संबंद, तांचे वाडिल्ले सहवासाचे खीण. हे चारूय वटांनी संकेताच्या कानार पडटाले. खंयच्याय स्वाभिमानी मनशाक रूचपी ही गजाल नासली. स्वामित्वाचो हक्क हो खूब विचित्र आसता. एकाद्री वस्त दोगांयचे मालकीची केन्नाच जावंक शकना. संकेत खिणाखिणाक बेचैन जातालो. ऑफिसांत आपल्या हेर सांगात्यावांगडा संकेत उलयतालो, हांसतालो, खेळटालो पूण चेरो मात सांगात दिनासलो.

कशें बशें काम करून संकेत घरा आयलो. सायली घरा नासलें. ऑफिसाक गेल्लें. च्या घेवन संकेत तेर्रासाचेर आयलो. थंड वारो सुटिल्लो. सूर्य अस्तमतेक वचपाचे वाटेर आसलो. संकेत विचार करूंक लागलो : खरेंच शिवमाक आवय - बापूय नांत? ताच्या सुख-दुख्खांत सामील जावपी कोण ना? ताका खऱ्यांनींच कोणाचो तरी सांगात जाय? पूण ते खातीर म्हजीच बायल कित्याक? खंयचोय स्वाभिमानी घोव हें सोंसूंक शकतलो? ताका कोण ना म्हण ताच्यो सगळ्यो गरजो म्हजी बायल भागयतली? भावना आनी वेव्हार हातूंत फरक आसता हें तिका कोण समजावन सांगतलो? हांवें सायलीक कितें उणें पडूंक दिलें म्हणून ती अशी वागता? सायलीक हांवें म्हज्यान जाता ते परीन सुखी दवरपाचो यत्न केलो, तिच्यो सगल्यो इत्सा पूर्ण केल्यो आनी तेंच सायली आयज शिवमा वांगडा संबंद दवरता? समाजाची पर्वा करिनासतना ताच्या वांगडा बिनदास्त भोंवता? शी! पूण सायली म्हाकां जाय. हांवें ताचेर निजमोग केला. म्हाकां म्हजें सायली परत कशें मेळटलें? अर्थात तिचे जिणेंतल्यान शिवम गेल्यारूच. शिवमाक ना केल्यार कशें? ओऽऽऽऽऽनो. हांव म्हज्या स्वार्थाखातीर कितले सकयले पातळेर आयलों. म्हजी बायल म्हाका मेळची म्हणून हांवें दुसऱ्याच्या मरणाची वाट पळोवप? संकेताच्या मनांत कितलेशेच प्रस्न उबे रावले.

इतल्यांत सायली आयलें. ताणें पर्स सोफ्यार शेंवटिली आनी तें संकेताचे वेंगेंत रिगलें. कितें जालें हें संकेताक कळ्ळेंच ना.

"आगो कितें जालां?" संकेतान विचारलें.

"शिवमाक अपघात जाला. नेटान वतल्या ट्रकान शिवमाचे स्कुटरीक धपको दिलो. ह्या धपक्यान तो मेलो." सायलीन दोळ्यांतलीं दुकां आडायत म्हळें.

"कितेंऽऽऽऽ?" संकेतान व्हड किळांच मारली.

सायली संकेताक घट्ट वेंग मारून रडटालें. आयज सायली फकत संकेताचेंच आसलें. संकेतान शांतपणान सायलीक कुशीक काडलें आनी म्हळें, "सायली, काल म्हजेकडेन पर्याय नासलो म्हणून हांव ॲडजस्ट करतालों. तुजेकडेन पर्याय आसलो. हांव काय शिवम. पर्याय आसलो की जीण खूब सुखी जाता. सायली तुमचे संबंद सदांच म्हज्या कानार पडटाले. तुजे लग्ना उपरांतचे संबंद आयकून म्हाकां तिडक मारताली. कितें करचें तेंच कळनासलें. आनी निमणें आयज हांवें निर्णय घेतला. तुकां दिवोर्स दिवपाचो. कारण आयज हांव तुजो पर्याय आसां आनी तेंच म्हाकां नाकां. आयज म्हजेकडेन पर्याय आसा. पर्याय नासतना जीण कशी सारची हाचो अणभव घे. हांव चल्लों."

सायली कांचवेलें. आयज ताका आदाराची खरी गरज आसली. पूण संकेत दिवोर्साची भास उलयतालो. घरांतल्यान वचूंक सोदतालो... सायलीक आपल्या कर्माचो पश्चाताप जातालो... संकेताचे फाटकुरे आकृतीकडेन पळयत रावपाबगर सायलीमुखार दुसरो पर्यायूच नासलो.

***

अस्तुरी

# मार्था

– मंगला नागराजन

तांच्या जिवितांत गरिबी आशिल्ली. तांकां शिकप नाशिल्लें. तरीय आपल्या कष्टांच्या बळार आपलो आनी आपल्या भुरग्याबाळांचो सांबाळ केलो. अकस्मात आयिल्ल्या संकटाक भियें नासतना धीर दवरून जीवनांक सामकारा वचपाचें व्हड तत्त्वाचें उद्दिष्ट तांकां आपसूकच फावो जाल्लें. परिस्थिती कठीण आयली तरीय ॲडजेस्ट करून घेंवचेंच पडटा हें सुमन नार्वेकर (शर्मा) हांचीं उतरां बशिल्ल्या सगळ्यांक जिविताचें व्हडलें तत्त्वज्ञान सांगून गेलीं.

गोमन्तक मराठी अकादमीन आयोजीत महिला दिन कार्यावळीच्या निमतान कला अकादमीच्या कृष्ण कक्षांत सगळीं भाग घेवपी बायलो आपले आपले अणभव सांगताना तांच्या उतरांतल्यान सोशिल्ल्या कष्टांच्या यादीबराबर तांचो आत्मसम्मानाचो उजवाडूय तांच्या मुखामळा वेल्यान झळकतालो.

आयच्या तेपार बायलां शिकून सवरून खंयच्याच मळार फाटीं उरूंक ना. दादल्या बराबर तांचेय नांव व्हड जालां हें सगळ्यांकच दिसता. पूण आदल्या तेंपार शिक्षण नासलें तरीय बरींच बायलां वेळ प्रसंगाक आपलें कुटूंब सांबाळपाक, आंग मोडून कष्ट करपाक फाटी रात नाशिल्लीं हेंय तितलेंच खरें. कष्ट करतां करतांच तांचें जिवीत सगळें सोपून वतालें. कोणांक तांचे कष्ट दिसता कोणांक दिसना.

अशेंच एक मार्था म्हणून आशिल्लें. त्या बायलांचे अणभव आयकून म्हाकां मार्थाची याद आयली. कांय वर्सां पयलीं तें मेलें म्हणून आयकल्लें. तेन्ना खूप वायट दिसलें. केन्नाय ताची याद येतालीच. महिला दिन कार्यावळी निमतान परत ताची याद ताजी जाली.

म्हापशां शारांत मार्था आमच्या शेजराक रावतालें. तें विधवा आशिल्लें. दोन पूत आशिल्ले पूण तांचो ताका आदार तांच्या मुडा प्रमाणें मेळटालो. मार्था बाबडें पुतांचेर राव नासताना आपलें घर आपुणूच चलयतालें. त्या तेपार म्हापशां शारांत नळा उदक नाशिल्लें. सगळे लोक बांयचेच उदक वापरताले. शारांतल्या बाजारांत दुकानांक आनी हॉटेलांक उदकाची गरज पडटाली. खूपशीं बायलां दोडी घेंवन दुकानांक उदक घालून आपलो संसार आनी जिवीत चलयतालीं. मार्था लेगीत अशेंच बाजारांतल्या दुकानांक, कांय हॉटेलांक उदक घालून आपलें घर सांबाळटालें.

उदक घालपी बाकीच्या सगळ्यां बायलांकडे तांब्याच्यो दोडी आसताल्यो. पूण मार्थाकडे मात मातयेची दोड आशिल्ली. हांडीर एक व्हडलो मातयेचो कळसो (मडको) आनी हातांत मातयेची कळसूली. म्हजे ल्हान पिरायेसावन हांव मार्थाक मातयेची दोड घेवन लोकांक उदक घालता तें पळयतालें. आनी म्हाका सदांच अजाप दिसतालें तें ताचो मातयेचो मडको जांव कळसुली हांवे केन्नाच फुटली म्हणून आयकूंक नाशिल्लें. सुमानांतले स य दीस तें उदक घालपाचें काम करतालें आनी आयतारा मात तें घरा रावतालें.

म्हज्या बालमनांत मार्थाची चढ आनी चढ क्युरियोसीटी जागी जाताली. दिसपाक तें बारीक आनी मोटवें आशिल्लें. स्वभावान सामकी गरीब गाय. ताची आंगलट सामकी



बारीक. सदांच हासतें तोंड... बाय आनी बाबा म्हणून सगळ्यांकडेन मायेन उलयतालें. कामांक वतना, नेशिल्ली साडी धोपरामेरेन परतून दोडून घेतालें, आनी कमराकडे मात्शी खोंवन फाटल्यान कासाटो मारतालें. मागीर कळसो दवरता त्या कमराच्या भागाकडे घडयो घालून घालून लेसाच्या सायजी इतको दाट कपडो खोवन घेतालें आनी कळसो हांडीर घेतालें. येदो व्हडलो कळसो आपल्या येद्याशा आंगार कशें सांबाळटा हेंच म्हाका अप्रूप दिसतालें. आयतारा मात तें सकाळचें मिसाक वतालें त्या दिसा मात ताका पळोवन हांव सामकें अजाप जातालें. तें बरी नेवी साडी न्हेसून, पावडर आनी चेर घालून मिसाक वतालें. ताका कामाच्या टायमार एका भेसान आनी कसल्याय सोम्याच्या टायमार नटिल्ल्या भेसान पळोवन, कासाटो मारून उदक घालपी मार्था हेंच काय असो म्हाकाच दुबाव पडटलो. कितलें बरें मार्था हें नाव आसताना सगले लोक ताका 'माट्टूमाना माट्टूमाना' म्हणून उलो मारताले. हांव मात ताका 'माना' म्हणटालें. सगळ्यांनी मार्थाचें माट्टूमाना करून सोडलें

खंयच्याय दुकानांक कितल्यो दोडी उदक घातला हाचो हिशोब दवरपाची मार्थाची पद्धतूय म्हाका मौजेची दिसताली. एक दोड घातली की एक ल्हान सो शेंकाऱ्या इतलो बारीक गुणो काढून दवरतालें. ना जाल्यार नळकुट्यान वण्टीर एक एक लायन ओडटालें. लोकूय मार्थाचे पयशे हिशोबान दिताले. ताका बाबड्याक कोण फटवपाचो प्रश्नच नाशिल्लो. पयलीं पयलीं मार्था एका आण्याक एक दोड घालतालें. मागीर धा पयशे, त्या उपरांत चार आणे अशें करून म्हारगाय वाडटा तशी तेंय बाबडें दोडीचो दर वाडयतालें. सगळींच तशें करतालीं.

एकदा मजा जाली. हांव स वरसाचें आसूं येत. आमगेर इल्लीशी तांब्याची कळसुली आशिल्ली. घरांत इल्लें उदक येतलें हे आशेन म्हजे आवयन म्हाका मार्था बराबर बांयचेर धाडलें. मार्था उदक भरून दितालें. ताच्या बराबर ती भरिल्ली कळसुली घेंवन घरा येतना वाटेक बँकेंतल्या सायबान मार्थाक दोड घेंवन आपयलें. मार्थान आपली दोड थंय आशिल्ल्या बाल्देंत रकयली.

बाय तुजीय कोळसुली वोतय, परत हाडुया भरून. मार्थान म्हाका सांगलें आनी हावें कळसुली बाल्देंत रकयली. बँकेंतल्या सायबान मार्थाक चार आणे दिले.

'तुजे कितले गो बाय?' ताणें म्हाका विचारलें. 'चार आणे' हावें म्हळें आनी म्हजें उतर आयकून तीं दोगांय हासपाक लागलीं. पूण म्हज्या फाटीवेल्यान मायेन हात भोंवडावन ताणे म्हाका चार आणे दिले आनी हांव खूश. आता ती याद येतकच म्हाका हासपाक येता. भुरगेंपण कितलें निरागस आसता.

कितलो तेंप देव जाणा, राजवानी बायचें उदक ओडून ओडून मार्थाचे ते इल्लेशे हात सोलून गेल्ले. कळसो धरपाच्या जाग्यारूय सोलतालें. दिसभर कष्ट करून रातचें बाबडें कितेंतरी उपाय करतालें. पूण आपलें काम सोडून घरा राविल्लें मात हांवें ताका केन्ना पळोवंक नाशिल्लें. आमच्या घरांत नळ येतकच मात मार्थाक उदक व्हरपाक मेळटालें. देव बरें जांव, देव बरें जांव म्हणून खूश जातालें.

***





## इश्टागत

रावता भारत देशांत हांव
कृष्णकांत म्हजें नांव
इश्टागत करपाक हांव सोदतां
पूण कोणूच ना, म्हाका मेळटा.

आमच्या देशांतले लोक आळशी
इश्टागत करूंक ना फुडें सरशी
लोकांचें बरें करूंक सोदशी
तांच्योच गाळी खावशी

म्हज्या वांगडा इश्टागत
जर तूं करशी
गरज पडल्यार उलो तूं मारशी
तर तुज्या आदाराक पावशी.

**- कृष्णकांत स. नायक**
यत्ता - णव्वी, सेंट जोसेफ हायस्कूल
आकें-आल्त मडगांव-गोंय.
फोन - २७५६१४८

# गाडी

चंदामामागेर चल्ली आमची गाडी
कुपां सारीत, वारो झेलीत चल्ली चल्ली

आयस्क्रीम खावंक मेळटलें
आमचें नातें जुळटलें
हांव ताजो भाचो तो म्हजो मामा
तांगेर मजाच व्हडली

चंदामामागेर रावन सकल पळे
इल्लीशी धर्तरी जाल्या पळे
कोण घुंवता, कोण नाचता
सगळीच उमेद नवी

घुंवतां घुंवतां घुंवळ आयली
तरी गाडी फुड्डें फुड्डें चल्ली
चंदामामालें स्टेशन आयलें
आतां देवात तुमी सगळीं

**- भिकाजी घाणेकार**






*आमचे सगळ्यांचे कपडे सोबीत आसता. शीं, वारें, वत, पावस हांचेपसून कपडे आमच्या कुडीची राखण करता. आमी कपडे घालतात ते निवळ आनी नितळ आसूंक जाय. आमी आमचे कपडे सदांच धुवपाक जाय. दुसऱ्यांचे कपडे धुले बगर घालूंक जायना. जेन्ना आमकां शीं खाता तेन्ना आमी गरम कपडे घालतां. आमकां खंयसर वयता म्हळ्यार आमकां कपडे जायच पडटा. कपड्यांचे खूब उपेग पडटा. जेन्ना आमी फेस्तांक, क्रिस्मसाक, दिवाळेक, होळयेक, नोवेनाक वता तेन्ना आमकां कपड्यांची गरज पडटा. म्हजी आत्या म्हाकां कपड्यांच्यो जायत्यो वस्तू करून धाडटा. कपडे आमकां मेजाक घालपाक, टिवीक घालपाक आनी एक वस्त तर उरली ती म्हळ्यार आमकां जेन्ना शीं खाता वा पावस पडटा तेन्ना आमी शीं खावन थंड दिसता आमी घरांत भितर वचून आमचे कपडे वेंगीच घालतात. आमचे सगळ्यांचे कपडे आमकां खूब आवडटा.*

# फुलां फळां

रंगी बेरंगी फुलां फळां
देवा घरचीं भुरगीं बाळां
तांच्या आंगच्या परमळान
आमच्या मनाक समादान
जशीं फुलां तशीं फळां
कितलीशींच तरां तरां
पावस तांकां उदक दिता
सुर्यचंद्र उजवाड दिता
वारो तांकां खेळयता
हालयता धोलयता
फुलां आमकां वास दितात
फळां आमकां खावंक दितात
आमका तीं सांगात दितात
उदक घातल्यार खोशी जातात
सैमाचें हें वरदान
तांचो सांबाळ आमचें काम

**- सदानंद तेंडूलकर**



# येयात

वांगड्यांनो आमी मिरोवया
सुटयेच्या दिसांनी
गावया खोशयेचीं गीतां
भिरभिरल्या तालांत
येयात वांगड्यांनो आमी मिरोवया
चलात येया
नाचया - गावया
उडयो मारया
झेमाडो घालीत
येयात वांगड्यांनो आमी मिरोवया
धालो खेळया
फुगडी घालया
दोनय कुशीनी
आंगणांत
येयात वांगड्यांनो आमी मिरोवया
फुगडी घालया
तळ्यान - मळ्यान खेळया
थुंयथुंय नाचया
मोरावरी पांखां फुलयत
येयात वांगड्यांनो आमी मिरोवया
पिकील्लीं रसाळ
फळां खावन
एकामेकाची फाट
धरया धांवत
येयात वांगड्यांनो आमी मिरोवया

**-मिरा म. गांवकार**
हरमल पंचक्रोशी हाय स्कूल
हरमल पेडणे-गोंय



# आवय

जल्मापयली सैरभैर आशिल्लों हांव
कोणाच्या पोटांत म्हजो जल्म काय?
ह्या विचारान आशिल्लों तेन्ना
दृष्टांतात तूंच म्हाका दिशिल्ली.

कितलें व्हड भाग्य म्हजें
तूंच आवय म्हणून उजाळलें
मांय म्होवाळ, मांय मोगाळ
म्हजें भाग्य उजळोवपी तूं

खंत मनांतली आतां सरली
जन निंदेचो भंय गेलो
दर्या हांवें तारलो जिवीतांतलो
हात धरून आवय तुजो

आयज खुशाल हांव भितल्ल्यान
आस म्हजी खरी थारली
पुन्ना परतून जल्माक
येवन तुज्या उदरांत

**- प्रीतेश मंगेश परसाई**

# घर

सोबीत, सोबीत आमचें घर
पळोवंक सुद्धां सुंदर सुंदर
बिल्डिंग ना, बंगलो ना
सामकें एक सादें घर

बांदलें एक चिऱ्यांचें घर
सिमेंट लावन केलें प्लास्टर
सोबीत सोबीत आमचें घर
पळोवंक सुद्धां सुंदर सुंदर

निळो रंग मारला सुंदर
आई-बाबा रावता भितर
सोबीत सोबीत आमचें घर
पळोवंक सुद्धां सुंदर सुंदर

**-महेश गणपत बांदिवडेकार**
यत्ता - सातवी
अवर लेडी ऑफ कांदेलारिया हायस्कूल
वास्को.



# एक इश्टीण

एका गांवांत एक चेडूं रावतालें. ताचें नांव आसलें बद्रूनिस्सा.तें बरें शिकतालें. तें वर्गांत बरो नंबर घेतालें. एक दीस शाळा सुट्टकच घरा वतना, ताका एक मांजर दिश्टी पडटा. तें मांजराक वयर उबारता आनी घरा हाडटा.

दुसरे दीस शाळेंतल्यान येतना, ताका परतून तें मांजर वाटेरूच दिश्टी पडटा. बद्रूनिस्सा ताचे म्हऱ्यांत वता, तशें तें धांवपाक लागता. बद्रूनिस्साय ताचे फाटल्यान धांवता. धांवतां-धांवतां मांजर रानांत पावता. ताचे फाटल्यान तेंवूय पावता. मांजराक सोदतना ताका एक रुपया मेळटा. पूण मांजर मात खंयच दिश्टी पडना. बद्रूनिस्सा रुपया घेवन घरा येता. येवन तो बांकार दवरता. आनी ताका हात लायता. ते बराबर त्या रुपयांतल्यान एक परी भायर येता. आनी बद्रूनिस्साच्या हाताक धरून ताका वयर घेवन वता. ताका सगळें भोवून दाखयता. परी ताका सांगता, तूं घरांत कोणाकूच म्हजे बद्दल सांगू नाका.

बद्रूनिस्सा शिकून एक व्हड सायंटिस्ट जाता. तें मागीर परी इश्टीणीच्या आदारान, वयर-सकयल उडपाचें मिशीन तयार करता आनी खूब नांव जोडटा.

**-पवन कुमार रेड्डी**
अवर लेडी ऑफ कांदेलारीया.

# म्हजे शेजारी

दोगी म्हज्यो शेजारी दिसूयभर झगडटा
एकामेकाच्यो चाडयो, बऱ्यो धरून तासता
झगडटना फाटीं-फुडें नाचता
तांची गजाल आख्ख्या वाड्यार गाजता
जालें कितें, एक दीस एकटेन घेतलीं सांगटां
भितर गेली ती हाडूंक मीठ
हेवटेन शेजान्नीच्या मांजरान लायली वाट
तिणें भितरल्यान येवन पळयताच
ती लागली रागान फडफडपाक
भायर येवन दोगांय लागलीं झगडपाक
आनी आमचो अख्खो वाडो लागलो गाजपाक.

**- तेजल र. चिपकर**
होली स्पिरीट इन्स्टिट्यूट
मडगांव गोंय
फोन - २७०६७२२






**ख**ूब खूब वर्सां आदली काणी ही. एका रानांत एक कोलो रावतालो. तो खूब मस्तो आसलो. हेर जनावरांक फटोवप हें ताचें काम आसलें. सगळ्या जनावरांक ताचो वाज आयिल्लो. कोलो कोणाक भियेनासलो. पूण हत्तीक पळयल्यार तो कुडकुडटालो. ताका दिसतालें हत्तीन आपल्याक फीऽऽ केल्यारूच तो वयर पावतलो.

एक दीस कोलो हरणागेर गेलो. हरण सगल्यांक बरें करतालो. तो मायेमोगाचो आसलो. कोलो हरणाचेर खूब जळटालो. ताका तांगेलो मायेमोग पळोवंक जायनासलो. तो तांगेर गेलो तेन्ना हरण भायरूच आसलो. ताच्या पुताचो वाढदीस आसलो म्हूण ताणें केक तयार केल्लो. कोल्याक केकाचो वास आयलो. ताका रूच आयली. ताणें तो केक चोरून व्हेलो. आनी एका झाडा पोंदा बसून खालो. थंयच हत्ती वयतालो, ताका दुबाव पडलो, हो कोलो सगल्यांक त्रास दिता, तो हांगा ओगी बसून केक सो खाता. तो कोल्याकडें गेलो आनी विचारलें, "कितें करता रे तूं हांगा? खरें सांग. हो केक तुकां कोणे दिलो? काय तुवें चोरून हाडलो." कोलो भियेलो. आनी ताणें पटापट सगलें हत्तीक सांगलें. हत्तीन रागान ताका हरणागेर व्हेलो. कोलो भियेलो पूण हरणान ताका भोगशिलो. हत्तीन म्हळें, "पळय, कितलो बरो बाब आमगेलो!" ताणें तुजी चूक भोगशिली. कोल्याक कळून आयलें. ताणें आयच्यान कोणाकूच फटोवचोना असो सोपूत घेतलो.

**- सेलिना जे. मास्कारेन्स**
आठवी अ
सेंट जोसेफ हायस्कूल
आके-आल्त, मडगांव





# कोलो आनी वाग

एक व्हड रान आसलें. त्या रानांत तरेकवार जनावरां रावतालीं. तीं सगळीं मायेमोगान रावतालीं. एकमेकाक मदत करतालीं.

त्या रानांत एक कोलो आनी वाग रावताले. ते दोगूयजाण इश्ट आशिल्ले. ते सदाच बॉल घेवन खेळटाले. ते दोगूयजाण आपलें जेवण वाटून खाताले.

एक दीस त्या रानांत शिकारी आयले. ते सगळें रानभर भोवले. पूण एक लेगीत जनावर मेळ्ळें ना. सांजवेळच्या पांच वरांचेर वाग आनी कोलो खेळपाक आयले. ताणीं त्या दिसा बॉल हाडूंक नासलो म्हूण ताणीं लिपचेंल्यानी खेळपाचें थारायलें. कोलो वागाक सोदपाक गेलो. वाग पयस तांबडचा फातराकडेन लिपिल्लो. तांबडचा फातराकडेन शिकारी आशिल्ले. तांणीं वागाचेर जाळें उडयलें. वाग भियेलो. ताणें बोवाळ केलो. व्हड आवाज आयकून कोलो तांबडचा फातराकडेन आयलो. ताणें सगळे पळयलें. ताणें कूय कूय करून आपल्या सगळ्या इश्टांक आपयले. सगले जाण आयले. दोन शिकाऱ्या भोवतणी पन्नास कोले पळोवन ताणीं थंयसावन कूस मारली. वाग जाळ्यांतल्यान सुटलो. ताणें कोल्याचे उपकार मानले. त्या दिसा सावन कोल्याची आनी वागाची इश्टागत चड बळीश्ट जाली.

**-सिता संतोश कामत**
महिला नूतन इग्लिश हायस्कूल
मडगांव



# व्हडली सुटी

व्हडली सुटी, व्हडली सुटी
गिमान म्हळें कानांत
मामालें घर म्हज्या
काणकोण गावांत

पेट्टा गीम, चडटा बस
करमलचो घाट
मामाल्या घरा म्हजी
सगलीं पळय वाट

घराफाटल्यान मामाल्या
काण्णां- चुन्नां -चारां
कातले शिन्नेवांगडा
आंब्या -पणसा साठां

मामाल्या चर्णीत
कापे -रसाळ पणसुलां
जीब रंगोवन जांबळानी
खावया आंबे घोटां

शिगमो जालो, जातली जात्रा
रेवड्यो -खाज्या बडयो
घराघरान उबारल्या
पाडव्याच्यो घुडयो

ना शाळा, ना पुस्तक
पाटी -दप्तर नाका
गिमांतले व्हडले सुटयेंत
खेळया आपालिपा.

-नयना आडारकार
वास्को.



# बाबूची बाग

तांबडी तांबडी दोशीण
हळदुवो रंगला कणेर
बाबू तांकां तोखेत
येवन बसला पडवेर

गुलाबी पळे शब्दूली
धवीं धवसार चांफीं
बाबूचें मन रंगला
आयच्या चान्या राती

फांतोडेर गळ्ळो पारजत
जागरण करी रातराणी
माणयेर घालून ताई
बाबूक सांग राजा काणी

एप्रिल मे म्हयन्यांत
फुल्ला पळे कसो शंकर
बाबूच्या सपनांत येतलो
भांगराचो राजकुंवर

-भिकाजी घाणेकार

# मनशाची कूड

पायांनी चलपाचें
हातांनी काम करपाचें
तोंडान किते करप?
जेवप आनी उलोवप

दांत आसात पचपाक
जेवण बरें चावपाक
दोळ्यांनी किते करप?
पळोवप आनी तोखेवप

नाक वास घेवपाक
हवा भितर घेवपाक
कानांनी किते करप?
आयकप, बरें तें करप

एक मेकाक हात दियात
एकवटान रावात
देवाचें नांव घेयात
सांगता मन सांगता मन

-भिकाजी घाणेकार



# बाईची शिकवण



**शा**ळेंत येतना शालीची नदर सदांच वाटेवेल्या आंब्या झाडाचेर वताली. झाडावेले आंबे पळोवन शालीक आंबे खावपाची रूच येताली.

शालीक बापूय नाशिल्लो. आवय वावर करून संवसार चलयताली. पूण आंबे हाडपाची तांक तिका नाशिल्ली. हाका लागून शालीक आंबो खावंक मेळनाशिल्लो. आंब्या झाडा म्हऱ्यांत पावतगीर शालीचे पांय जड जाताले.

त्या दिसा शालीक झाडाचेर हळडुवोच आंबो दिसलो. हात पावता इतल्या सकल तो आशिल्लो. शालीन हेंवटेन तेवटेन पळयलें. लागसार कोण नाशिल्लो. आंब्या झाड वयें भितर आशिल्लें. अडुळश्या झाडांतल्यान वाट काडून शाली वयें भितर गेलें. आंबो काडून बोटव्यांत भल्लो आनी तशेंच परतलें.

"कोण गो तें?" फाटल्यान ताका भाटकान्नीचो आवाज आयकूंक आयलो. तें पळत सुटलें. फुडें पावतकीर ताणें फाटल्यान पळेलें. भाटकान्न बडी घेवन फाटल्यान येताली. शाळेंत पावनाफुडें तें तडक वचून आपल्या जाग्यार बसलें.

शाळेदाराकडेन ताची नदर गेली. भाटकान्न दाराभायर उबी आशिल्ली. बाई अजून येवंची आसली. भाटकान बाईक आंब्या खबर सांगतली आनी आपूण सापडटलें ह्या विचारान ताचे शातयेंत धडधडूंक लागलें. ताका एक युक्ती सुचली. ताच्या कुशीच्या बाकाचेर प्रेमा बसतालें. दप्तर डेस्कांत दवरून प्रेमा त्या वेळार हात धुवपाक गेल्लें. शालीन तो आंबो हळूच प्रेमाल्या दप्तरान दवरलो आनी आशिल्लें तशें आपल्या जाग्यार येवन बसलें.

बाई येना फुडें भाटकान्नीन ताका आंब्या खबर सांगली. एक चली आंबो घेवन ह्याच शाळेंत भितर सरिल्लें आपणें पळेलां अशें तिणें बाईक सांगलें.

बाईन भुरग्यांक सांगलें "आंबो कोणाकडेन आसा तो मुकाट्यानीं हाडून दिया." कोणच फुडें येना. बाई मागीर एकएकल्याचें दप्तर तपासपाक गेली. शालीलें दप्तर तपासून जालें. शालीक सूऽऽ जालें. बाई प्रेमा म्हऱ्यांत पावली. प्रेमाच्या दप्तरांत बाईक आंबो मेळ्ळो. आंबो दाखोवन बाईन प्रेमाक विचाल्लें. "तुवे आंबो काडूं नाशिल्लो. जाल्यार तुज्या दप्तरांत तो कसो पावलो?" प्रेमा बाबडें अजापान आंब्याक आनी बाईक पळेतच उल्लें. "म्हाकां खरेंच खबर ना बाई, म्हज्या दप्तरांत आंबो नाशिल्लोच." प्रेमा काकुळटेक आयलें. ताचीं तीं उतरां आयकून बाईक भिरभिरी माल्ली. वेल्यान तें फट उलयता तें पळोवन तिका राग आयलो आनी रागासरशीं प्रेमाच्या पोल्याबरोबर ताणें थापट माल्लें. सगळीं भुरगीं पळेतच उरलीं. हाच्या आदीं बाईन कोणाचेर हात उबारिल्लो ताणीं पळोवंक नाशिल्लो. बाईन आंबो भाटकान्नीकडेन दिवन तिची चूक मागली.

एका आंब्याक लागून शाळेचें नांव पेड्डेर जालें हाचें बाईक खूब दूख जालें. शाळे भुरग्यांक बाई मन लावन शिकयताली. भुरग्यांक बरी देख मेळची म्हूण तांकां बरीं बरीं पुस्तकां वाचपाक दिताली आनी बऱ्या उपदेशाच्यो काणयोय सांगताली. आयचे हे घडणुकेक लागून तिका खूब वायट दिसलें. भुरग्यांक बरी देख दिवपाक आपूणच उणी पडली अशें तिका दिसलें. त्या दिसा शिकपांत तिचें मन लागना जालें. प्रेमाचेर थापट मारिल्ल्याचें पिकासांवय तिका जावपाक लागलें. ती खूब दुखी जाली.

शाळा सुटपाची घांट जाली. भुरगीं वचपाक उठलीं. बाई प्रेमा म्हऱ्यांत गेली आनी ताका म्हऱ्यांत घेतलें. ताचो पोलो सांसपीत तिणें म्हळें "बाय प्रेमा, तुकां आंबो जाय जाल्यार हांव दितलीं आशिल्लीं. तुवें चोरी कित्याक केली? चोरी करप पाप म्हूण हांव तुमकां सदांच सांगत आयल्यां. जालें तें जालें. हाचे मुखार तरी केन्नाच चोरी कर नाका."

बाई वाचपाक वताली. इतल्यान शाली धांवत धांवत बाई म्हऱ्यांत गेलें. "बाई म्हाकां माफ कर. तो आंबो हांवें चोरिल्लो. भाटकान्न आयली ती पळोवन हांवें भयान तो प्रेमाच्या दप्तरांत दवल्लो." शालीन बाईचे पांय धल्ले.

बाईचें दुख खंयच्या खंय पळ्ळें. शाली कोंफेसार जालें तें पळोवन तिका खूब आनंद जालो. आपल्या भुरग्याविशीं तिका जो अभिमान दिसतालो तो सार्थ आसा म्हणपाचें तिका पटलें. शालीक आनी प्रेमाक तिणें अपुरबायेन आपल्या म्हऱ्यांत घेतलीं.

-नागेश नाईक वाडिये

***



# एक दीस खोसयेचो न विसरपा सारको

- श्वेता नायक

१ मे कामगार  ि. सगळ्यांक सुटी. आमच्या सरान दिलीप बोरकार) आमकां म्हळ्यारब्रेम्ब कचेरीक सुटी दिल्ली खरी पूणो दीस वेगळेतरेन मनोवपाक आपलोंगडा यो म्हळें.

आमकां घेवन सर ता मोनिका बोटीचेर गेलो. सकाळीं ९वरांचेर आमी थंय पावलीं जाल्यार स्र दोनशीं माणकुलीं भुरगीं थंय आशिल्लीं. सगळीं गरीब घरांतलीं. तातूंत पुण्याक साकून हो एक दीस खोसयेचो मनोवंक पन्नास भुरग्यांचो पंगड आयिल्लो. गरीब अनाथ जावनूय एकान एक पुटपुटीत भुरगीं. हुश्शार! तशेंच हेर भुरगीं गोंयच्या वेगवेगळ्या वाठारांतल्यान आयिल्लीं.

तांचे जिणेंत खोस भरपाखातीर वेगवेगळे लोक आयिल्ले. लेखक, कवी, जादुगार ,नकलाकार. म्हाका हें सगळें नवेंच आशिल्लें.

११ वरांचेर सांता मोनिकावेल्यान आमची जलसफर सुरू जाली. मांडवी न्हंयतल्यान ती बोट चलताली. सगळीं भुरगीं तें अजाप अणभवतालीं. तांच्या जिवितांतलो तो अप्रूप खीण. मागीर



गायक शिरीश लवंदे मायक घेवन मुखार आयले. आओ बच्चों तुम्हें दिखायें झांकी हिंदुस्थान की , हम होंगे कामयाब अशीं पदां ते गावंक लागले. सगळीं भुरगीं तांकां साथ दितालीं.

मागीर दूरदर्शनाच्यो संचालिका भारती गोखले आयली. मागीर कोण ना कोण येत रावले. ते भुरग्यांक काणयो, कविता सांगूंक लागले. भुरगीं सामकीं दंग जावन गेल्लीं.

हें सगळें आयोजन केल्लें आदले विद्यार्थी फुडारी सतीश सोनक आनी तांच्या सांगात्यांनी. गोअन पिपल्स फोरमच्या नांवाखाला. बोटीचेरूच ते आमकां खावपाक वांट्टाले, पिवपाक सरबत दिताले.

देड दोन वरां जलसफर जाले उपरांत पलतडी बेतींतल्या रेईश माग हे सुवातेर आमकां व्हेलीं. न्हंयचे देगेर सुंदर वाठारांत जेवणाची वेवस्था केल्ली. थंय पुलाव, भाजी पाव, आईस्क्रीम, आंबे सगळें दवरिल्लें. पूण भुरगीं गरीब आसुनय सगळीं शीस्त पाळटालीं. कोणूच हपापीपणां करिनाशिल्लीं.

जेवणा उपरांत मागीर कार्यावळ सुरू. एक एक भुरगो येतालो, मायक घेतालो आनी आपली कला सादर करतालो. मदींच जाण्टेले लोक आपलें कितें तरी सादर करताले.

नागेश करमली, भरत नायक, तुकाराम शेट, माया खरंगटे, नयना आडारकार, सोमू राव, अविनाश भोसले, धर्मानंद वेर्णेकार, भिकाजी घाणेकार ह्या सगळ्या लोकांचीं नांवां बिम्बाचेर वाचिल्लीं. ते सगळे म्हज्या दोळयांमुखार आपली कला सादर करताले.



घनश्याम काणकोणकर हो नकलाकार तर ज्युस्त जनावरांचे पक्षांचे आवाज काडटालो. भुरगीं सकी खूश.

मागीर एक अजापाडलें. कोणेंतरी सांगलें फाल्यां ह मेक दिलीप बोरकारांचो वाढदीस पूण तो आयज आमी मनयतले. . ळे पद्धतीन. ह्या भुरग्यांमदीं सरांचे 'दर्या सुंदरी' भुरग्यांखातीर बरयिल्लें पुस्तक युगा आडारकार हिच्या स्तुकी प्रकाशीत केलें. पुस्तकाचेर ळ्या भुरग्यांनी उडयो मारल्यो. मागसरान सगळ्यांक आईस्क्रीम दिली. ग ती खावपाचें विसरून भुरगीं सर पुस्तक वाचूंक गुल्ल जाल्लीं. तें सग पळोवन हो दीस खरेंच खोसयेचो दीआनी आमच्या वांट्याक तो परतून तून येवंचो अशें दिसलें.

माणकुल्या भावा यणींनो तुमकां चुकलो न्हय हो दी कांयच हरकत ना. तुमचे खातीरूयसोच एक दीस घडोवन हाडूंक आमसराक सांगतात.

***



- वामन विष्णू कामत

एक खारवी आशिल्लो. तो रावता त्या आपल्या गांवच्या न्हंयत नुस्तें मारून आपलें आनी आपल्या बायल भुरग्याचें पोट भरतालो. ताका सुरवाती सुरवातीक बरेंच चड नुस्तें मेळ्ून तो आनी ताची बायल दुसऱ्या गांवांत बाजाराक नुस्तें विकूंक व्हरी. कांय तेपान त्या न्हंयेचें नुस्तें कमी कमी जायत गेलें आनी जें कितें थोडें भोव मेळ तें बाजाराक आनी व्हरपाक कोता येना आशिल्लें आनी मागीर गांवांतल्या गांवांतूच विकून जे कितें चार पयशे मेळटा ताचेर पोटाची भर करूंक लागलीं. साहजीकूच एक दीस बायलेन उलयलो.

तिणें विचारलें "तूं येवन वचून एकाच जाग्यार नुस्तें मारता आशिल्ल्यान थंय तें थोडें जालां तरी मात्सो पयस वचून कित्याक पळयना?" घोव आनी तिचे भितर वाद जालो आनी ताणें म्हळें "आयचोच दीस त्याच जाग्यार वचून पळयतां ना जाल्यार मागीर फाल्यां धर दुसरे कडेन वचून पळयतां. आनी अशें म्हणून तो नित्याच्याच जाग्यार गेलो आनी ताणें न्हंयत जाळ वडयलें. अर्दवर जालें, एक वर जालें कांयच मेळना. परतून फाटीं फुडें करून जाळ वडोवन पळयलें. कांय ना. निमाणें वाजेलो आनी मनांत म्हळें आतां ही निमणी खेंप आनींक आतांय जर कांयच मेळनासत जाल्यार परतो हांगा केन्नाच येवंचोना, पांय दिवंचोना. अशें म्हणून वयर पळोवन देवाक हडकिलो आनी जाळ न्हंयत उडयलें. कितें मजा सांगतलों जाळ उडोवन धा मिण्टां वता पसून खारव्यान जाळ वयर काडपा ऐवजीं खारवीच जाळा सयत ओडत वचूंक लागलो. जाळ काडटलो म्हूण खारवी फोर्स करता आनी दुसरे वटेन जाळ निबरान वोडत वता अशी रेस सुरू जाली. तरी ताच्या भाग्यान फुडें न्हंयच्या देगेर एक इल्लेंशें झाड ताका आदाराक मेळ्ून ताणें जाळाची दोरी त्या झाडा भोंवतणी गुठलायली आनी ताणें मात्सो स्वास घेतलो. ताच्या लक्षांत आयलें की आज ताचें भाग्य फळफळ्ळें. कांय चुकूं नये एकदम मोठो मासो आपणें केन्नाच पळोवना असो आपल्या जाळांत पडलो आसपाक जाय आनी मोठ्या आशेन, नवे उमेदीन ताणें आपलें जाळ एकदम झेता बराबर उबारून वयर घेतलें. तर कितें पळयतलो! तो खोशी खोशी जालो. दोन सवाय दोन हात लांबायेचो मासो ताच्या जाळांत आसा आनी ताणें सगळें जाळ,

भायर सुटून वचपाच्या हावेसांत आपल्या आंगा भोंवतणी गुटलावन घेतलां.

भोव खोशेन ताणें तो मासो घरा व्हरचे एवजीं तो राजाकडेन व्हेल्यार आपल्याक ताचें खूप मोल राजा कडल्यान मेळटलें अशे आशेन तो राजवाड्यार गेलो. पूण भितर कसो वतलो? हो प्रस्न ताच्या मुखार उबो रावलो. कारण हाचे पयलीं तो केन्नाच थंय पावूंक नाशिल्लो. नुस्तें विकताली ताची बायल आनी ती खंयसून वताली, किते करताली, हें ताका कांय खबर नाशिल्लें. लोक खूब भायर-भितर येता वताले आनी दारार जो शिपाय आशिल्लो तो प्रत्येकाक हडकून भायर -भितर सोडी. तरी हाणें माथ्यावेलें नुस्त्याचें वजें सकल दवरून त्या शिपायाक जमता तसो कलकलत कलकलत सलाम माल्लो.

ताणें विचाल्लें ''अे कोण रे तूं? आनी खंय वता नंगो फकीर, वता खंय बापायगेर? चल फाटींसर.''

शिपायान अशें गुरगुरून विचारतकच ताच्या हातापायांक घाम सुटलो आनी ताणें ताका हात जोडून तकली सकल घालून सांगलें की ताणें राजाकडेन एक मासो विकपाक हाडिल्लो, आनी पोतयेंतल्यान माशाचें कळींवर भायर काडून ताका दाखयलें. शिपायान आपल्याल्या हांयसाक मासो लागता असो विचार करून ताका सांगलें तुकां भितर सोडूंक जाय जाल्यार हांव किते सांगतां तें तुवें आयकुचें पडटलें. ना जाल्यार आयला तसो परतो चलूंक लाग.

खारव्यान परत सलाम करून ताका विचाल्लें किते करपाचें सायबा? भितर वतकच तुका राजाकडल्यान जें किते मेळटलें ताचो अर्दो वांटो म्हाकां दिवपाचें मान्य आसल्यार भितर चल.

किते करतलों? ना म्हळ्यार भितरूय वचूंक मेळचेंना. हात हालयत घराकडेन गेल्यार भुरगीं उपाशीं पडटलीं. बायलय उलयतली. आनी येदो व्हडलो मासो आज पर्यंत बायलेन केन्ना पळयलोच ना तर विकपाचें आनी खंय उल्लें? तरी ताणें शिपायाचें उतर मानून तो एक मेट फुडें काडून भितर सर जाल्यार फुडें आनीक एक तसलोच लांबशे तोपयेचो आनी हाणेंय बी आपलो हात फुडें काडून खारव्याक आडायलो. सगळो विशय खारव्याच्या मनांत येवन तो समजून चुकलो. हांगा सगळ्यांक हयकार दिल्या शिवाय आतां फाटींय सरूंक मेळपाचें ना. प्रत्येक मेटावेलो शिपाय एकूच उलयतालो. फायद्याचो अर्दो वांटो मागतालो. एकावटेन तो मासो मोव जाल्यार खावपाचोय उरचो नाशिल्लो. तरी जाता तितले बेगीन तो राजा कडेन पावूंक जाय आशिल्लो.

आनी इतलेय सगळ्यांक मनयत तो राजा कडेन पावलो तेन्ना ताणें मनांत म्हळें, पोटाक लागूं उजो; सकाळ पासून पोटांत कांयच ना ह्या श्रीमंतांच्या दारांत हें आनी तें करीत वळवळत आसा. हांकां सगळ्यांक बुद्द शिकोवनूच वतलों. मागीर म्हगेलें किर्तेय जांव! राजाल्या दरबारांत पावतकच कारभाऱ्यान विचाल्लें कित्याक आयला आनी माथ्यार घाण येता तसलें हें किते घेवन आयला?

खारव्यान नुस्तें घेवन आयिल्ल्याचें सांगलें आनी तें माथ्यावेलें वजें काडून पोतयेंतलो तो व्हडलो मासो काडून राजा मुखार दवरून. आपूण खारवी आनी आपल्याली घरची परिस्थिती आनी धंदो सांगलो. आनी तसोच तो राजाकडेन चड किर्तेय मेळटलें हे आशेनूय आयिल्ल्याचें सांगलें.

मासो पळोवन राजा आनीक कारभारी दोगूय खोशी जाले. राजान वोर्द सोडली खारव्याक खूश करपाची.

कारभाऱ्यान खारव्याक विचाल्लें ह्या माशाचें तुकां किते मोल दिवं?

खारवी तोंड धांपून वग्गी. कारभाऱ्यान विचाल्लें आरे मोल किते दिवपाचें? राजा खोशी जाला. तूं भिये नासतना सांग, दितां तुकां.

तरीय खारवी केंस आनी माथें खरपीत वग्गीच उबो. कसोच सांगिना!

निमणें कारभारी उबगून तिडकलो. आरे तुवें पयशे सांगलेना जाल्यार हो मासो आमीं कसो खावप? काय तुकां आयकूंक बी येना? खारव्यान एकदाचें तोंड उगडलें ''सरकार म्हाका चाबकाचे पांचशीं फटके दियात.''

''आं हें आनी किते? आरे तुकां पिशें बी लागूंक ना मूं? तूं मनीसपणांत आसा काय किते? तुकां फटके मारप आनी आमी नुस्तें खावप!'' कारभारी आपणांकूच चिमटे काडून पळोवपाक लागलो!

आपुणूच स्वप्नांत बी ना मूं?

परतून खारव्यान सांगलें ''तुमीं स्वप्नांतूय ना आनी आपूण पाचशीं फटके दियात म्हूण सागता हेंवूय बी खरें.'' तरी कारभाऱ्यान शिपायाक चाबूक हाडूंक लायलो. आनी इतल्यांत खारवी परत सांगता ''सरकार तुमच्या पर्यंत पावपाक म्हाका म्हज्या जोडीचो, म्हाका जें किते तुमचेकडेन ह्या माश्याबाबत मेळटलें ताचो अर्दो वांटो दिवपाक म्हाका ह्या तुज्या सातय पायऱ्यांवेल्या शिपायांक कबूल करून येवचें पडलां तेन्ना पांचशयांसून अर्धे फटके पयले मेटावेल्या शिपायांच्या फाटीर दिवपाचे. या प्रमाण सातूय शिपायांच्या फाटीर प्रत्येक मेटार उरता उरता त्या रकमेंतल्यात अर्दे अर्दे फटके दियात. म्हण्टकच म्हाका म्हज्या नुस्त्यांचें मोल पावलें.''

इतलें म्हणून खारवी वचूंक लागलो. त्या बरोबर कारभारी आनी राजान आपली चुकी कबूल करून खारव्याक भरपूर इनाम दिवन सांगलें ज्या राज्यांत स्वत: राजाचें तथा शासनाचें सारखें लक्ष आसचेंना त्या राज्यांत अनागोंदीशिवाय दुसरें कांयच पळोवंक मेळचेंना. तेन्ना एक निरक्षक खारवी सुध्दां आमचो गुरूजी जावपा शकता.

***

पंदरा मिनटां सांदण धाकण्यात नाजाल्यार कुकरांत उकडून घेवच्यो. नाल्लाच्या रोसाबराबर खांवपाक दिवच्यो.

# आंब्याचो पायस

**साहित्य :** १ लिटर दूद
१ वाटी तांदूळ
१ वाटी आंब्याचो रोस
१ वाटी आंब्याच्यो बारीक फोडी
अर्द वाटी साकर (रूचीप्रमाणे)
, व्हडलें कुलेर काजूबियांचे, बदामाचे आनी पिस्ताचे कुडके

**कृती :** तांदूळ धुवन वाटीभर उदकांत भिजत दवरचे. दाट पोंद आशिल्ल्या आयदनांत दूद तापोवन घेवचें. दूद तापतकूच गॅस बारीक करून तातूंत भिजयल्ले तांदूळ घालचे आनी मंद उज्यार शिजत दवरचे. परतो परतो चाळो मारीत रावचें. तांदूळ पोंदाक लागूंक दिवंक जायना. तांदूळ शिजतकीच तांतूंत साकर घालची. साकर विरगळतकीच पायस गॅसावेल्यान सकयल काडून न्हिवत दवरचो. मागीर फ्रिजांत थंड जावपाक दवरचो. वरभर फ्रिजांत दवरतकीच तातूंत आंब्याचो रस घालचो आनी परत फ्रिजांत दवरचो.
खावपाक दितना वाटयेंत पोंदा आंब्याच्यो बारीक केल्ल्यो फोडी घालच्यो. वयर पायस घालून ताचे वयर ड्राय फ्रुटांचे कुडके घालचे.

**गो**यां ...ल्यार आंब्या पणसाचे दीस. पिकल्ले आंबे आनी पणसाचे गरे गोंयकार रूचीन खातात आनी पिकिल्ल्या आंब्यापासून आनी गऱ्यापासून तरातरांचे गोड जिन्नस करून जिबेची रूच भागयतात. तोरांचो श्रीखंड, पन्हें धरून ते आंबरस, पायस, आंबेभात पुरयो, इडली, पुडींग, सुफलें, केक हालवो, कापां, आइस्क्रीम, साठां हे जिन्नस करतात. तशेंच पणसाचे धोणस, खीर, भाकरी, पणसाचीं भजीं हे जिन्नस करतात.

# आंब्याचें पुडींग

**साहित्य :** अर्द लिटर दूद
१ १/२ वाटी आंब्याचो रोस
अर्द वाटी साकर
१ ल्हान कुलेर वेलचेचो पिठो
१५ ग्रॅम चायना ग्रास

**कृती :** चायना ग्रासाचे बारीक बारीक कुडके करून ते उदकांत वरभर भिजत दवरचे. मागीर दाट पोंद आशिल्ल्या आयदनांत घालून मंद उज्यार दवरून चायना ग्रास विरगळसर धवळीत रावचें. मागीर तातूंत दूद आनी साकर घालची आनी दाट जायसर शिजोवचें. मागीर गॅसावेल्यान सकयल काडून तातूंत आंब्याचो रस आनी वेलचेचो पिठो घालचो आनी बरें मिक्स करचें. आंब्याचो रस घालतकीच गॅसार दवरपाक उपकारना. मागीर वाटकुळ्या आयदनांत घालून फ्रिजांत दवरचें. थंड जातकूच चौकोनी कुडके कापून खावपाक दिवंचें.

*चत्राय : आंब्याच्या आकाराच्यो ल्हान स्टीलच्यो ताटल्यो येतात. तातूंत पुडींग घालून फ्रिजांत दवरले जाल्यार खावपाक दितना ती ताटली बशयेंत उमथी करपाची. दीसपाक सोबित दिसता.*



# आंब्याची इडली

**साहित्य :** १ वाटी रवो
१ वाटी आंब्याचो रोस
१ वाटी धंय
१/२ वाटी साकर
१/२ वाटी सोय
रूची पुरतें मीठ, तूप

**कृती :** सगळे जिन्नस एकठांय करचे. अर्द वर धांपून दवरचे. इडली करपाच्या वाटयांक तूप सारोवन तातूंत एक एक दोवलो भरून मिश्रण घालचें.



# आंब्याच्यो पुरयो

**साहित्य :** २ वाटयो मैदो
१/२ वाटी पिठीसाकर
१ ल्हान कुलेर तूप
१/२ कप आंब्याचो रस
तळपाक तेल, रुची पुरतें मीठ

**कृती :** मैद्यांत आंब्याचो रस, पिठीसाकर, मीठ, तूप घालून पीठ बरें कालोवन मळून घेवंचें. मागीर पिठाच्यो ल्हान ल्हान गुळयो करून ताच्यो पुरयो लाटून तेलांत तळून घेवंच्यो.

जाय जाल्यार वयर पिठीसाकर फाफुडची. हून आसतनाच खावपाक दिवंच्यो.

# पणसाच्यो पातोळ्यो

**साहित्य :** ३ वाटयो तांदूळ
२५-३० रसाळ पणसाचे गरे (भिकणां काडिल्ले)
१५-२० हळदीचीं पानां वा केळीचीं पानां
१ नाल्लाची सोय
१ १/२ वाटी गोड
१ ल्हान कुलेर वेलचेचो पिठो
मीठ, २ व्हडलीं कुलेरां काजूबियांचे कुडके

**कृती :** तांदूळ धुवन ५-६ वरां उदकांत भिजत घालप. सोयेंत गोड, वेलचेचो पिठो आनी काजूबियांचे कुडके घालून कालोवंचें. चून करून कुशीक दवरचें. मागीर तांदूळ आनी पणसाचे गरे एक करून बारीक वांटून घेवंचे. तातूंत मीठ घालचें. पणस आसता ते दिसांनी हळदीचीं पानां मेळटाच अशें ना. तेन्ना केळीचीं पानां बरीं धुवन घेवपाचीं. ताचे लांब कुडके करून घेवपाचे. हाताक उदक लावन व्हडल्या लिंबायेदो गुळो घेवन केळीच्या पानांचेर थापून घेवपाचें.अर्दे वाटेन व्हडलें कुलेरभर चून पातळावंचें आनी उरिल्लो अर्दो भाग ताचेर धापपाचो. मागीर पातोळ्यो इडली उकडता तशो २० मिनटां उकडून घेवपाच्यो. हळदीचीं पानां मेळ्ळीं जाल्यार ताचो वास इल्लो चड बरो येता.

***

*चत्राय : तांदळाचें वांटिल्लें पीठ जर चुकून उदक बी चड पडून पातळ जालें जाल्यार तातूंत इल्लो रवो घाल्यार सारकें जातलें.*





मनसंवेदना

# कबीर

मरणाचो धुंवर
घुमघुमता रस्त्या-रस्त्यांतल्यान
धांवता, चोम्याचोम्यान
भगभगत जळटा
रस्त्यार पेटपी पसऱ्याच्या दारांतल्यान
किळांचत धांवता
हिंदू चोम्यापासून
भुरग्याक खाकेक मारून
धडपडत फातर खळग्यांतल्यान,
भियेवन धांवपी
मुस्लिम बायलेफाटल्यान,

गर्भगळीत भिरातेंन
घरांत बायल भुरग्याक
घेवन बंदी जाल्ल्या
हिंदू फाटल्यान
आयकात
काळयुगांतल्या काळ्यापाशाणी
आमोरेर उबो रावन
कबीर गायता
घोगरो घोगरो ताचो आवाज घोगेता
भर दिसाचे लुटत वचपी
सुपर मार्केटांतल्यान
मनीसपणाचे अध:पतन करत
धगधगत भगभगत जळपी
मस्जिद देंवळांतल्यान
हिंदू, मुस्लिम, किरिस्तांव
काळजा काळजांतल्यान
चिरत, वेरत, व्हांवत तुटत वचपी

विश्वासाच्या धारेंतल्यान
धर्माच्या नांवांन घुंवळपी घुवाळण्याक
सांगता कबीर आयकात
देव व्हांवता दर एकाच्या
स्वासा स्वासांतल्यान.

-राजश्री सैल





वाट, वाट म्हणीत
हांव वाट सोडतां ...
दोळ्यांर जातात कितल्योच वाटो
खंयचे वाटेन वच्चें
तेंच मागीर येवजूंक लागतां
वाटो जातात वाटकुळ्यो
मागीर हांवूच
वाटांक घुंवत उरतां
थंयचे थंयच
पावलांतूच घुसपतां

- मिनीन आल्मेदा
फातोड्डे मडगांव
मो. ९८८१२८०८२१

## कसलें गा हें पुरावे?

थळावे - कुळावे - मुळावे
कसले गा हे पुरावे
धतरेक घांस मारून
कोण गा हांगा उरतले?
धतरेच्या कुसव्यांतले
आमी तरेकवार गा किडे
खिणयाळ्या अस्तित्वाक
आमी झगडतूच रावले.
कोण भायले ... कोण भितरले
वाद गा हे कसले
भितरले भितर किल्लून
कोण गा रूजवणाक आयले?
सगले थळावे - सगले कुळावे
तेंपावांगडा सगले मुळावे
निमाण्या उल्याक मात
सगलेच अडेचे ..... सगलेच उखलापे.

- भालचंद्र गांवकार

मनसंवेदना



# कित्याक?

दर्या उफळोंवन आयलो तसो
उफळोंवन आयली याद तुजी
दर्या म्हज्या काळजाचो
उचांबळीत जालो कित्याक?
बागेंत फूल फुल्लें तशें
तूंच म्हजें उमेदीचें फूल जशें
भोंवरो म्हज्या मनाचो
तुकां सोदूंक भोवता कित्याक?
चंद्रीम मळबांत आयलो तेन्ना
तुजेविणें दुसरें कांयच येवजलें ना
चंद्रकोर सोदपा खातीर
चान्यांत हांवूंच सांडलों कित्याक?
तळयेंत दोन बदकां पळोवन
तुजो उगडास उस्वास गेलो येवन
वाट आजून पळयतां तुजी
म्हजेंच म्हाकां कळना कित्याक?


-मंगला नागराजन
सी. ६ एन. आय. ओ. कॉलनी
दोनापावला-गोवा
फोन - २४५३३९५


# तळमळे

घरच्या एका कोनशाक
एक जीव तळमळटा
हुनसाण आपली वचत म्हूण
सामकी ती खर्शेता
दोळ्यांत तेल घालून
वाट पळयता
कोणाची तरी
परतुपाची
घराक घरपण ना
देवाऱ्यांत देव ना
पूण
आजून पेट्टा एक जोत
फुडाराची
आपलेपणाची
समजायलें तिका सगळ्यांनी
चिकाटी मन
समजून घेतना
आयज ना जाल्यार फाल्या
ताचो येवपाचो दीस येतलो
तेन्ना,
घराक म्हज्या घरपण येतलें
देवाऱ्यांत देव येतलो
फुडाराची जोत
परजळीत पेट घरतली...


- दिपाली पावसकार
कुंकळी




# तुज्या रुपांत



(१)

तुज्या रुपांत मन रिगता
मोगरीच्या परमळांत
रूप तुजें दिसता
लागीं नासता पूण
भास सदांच जाता
झाडा-पेडार मन
दोळे लावून बसता

(२)

तुज्या पोटांत
उदक कितलें
तुकां कळना
पूण हांव जाणां सगलें
उदकांतले जीव
भुंयचेर येताले
रेंव पळोवन
तांचें दुःख नाच्च जातालें
देगेर भोंवता तेन्ना
दर्याक जोरगत
वारें हालता आनी
परमळ फुलता


- चित्रा कांत
ताळगांव - गोंय

मनसंवेदना

## अकस्मात एक दीस...

अकस्मात तो एक दीस आयलो
आनी धावपळीच्या जिवितांत म्हज्या
सगळोच आदोल - बोदोल करून गेलो.
सकाळीं गडबडीन उठचें
खर्शेत-धापेत ऑफिसाक वेचें
सांजे धांवत परतून घरा येंवचें
रांदचें, जेवचें, न्हिदचें
परत सकाळीं आनी परत सांजे
तेंच - तेंच करचें, करीत रावचें
तीच -तीच धडपडपी सकाळ
तीच -तीच धडपडपी सांज,
आनी अकस्मात तो एक दीस आयलो
आनी धांवपळीच्या जिवितांत म्हज्या
सगळोच आदोल -बोदोल करून गेलो.

**-फिलोमीना सॅाफ्रॅासिस्को**
मुंबय.



# गरिबी

ताणें दिलें खडेगाठ लेक्चर
भारताच्या गरिबेचेर
झोपडपट्टीचेर, आंकडेवारीसयत
हांवें ल्हवच उठून ताका म्हळें
भारतात खरीच गरिबी आसा
हांवें पळयल्या म्हज्या दोळयांनी
बालाजीच्या देवळा वाठारात
जल्मभर भीख मागपी भिकाऱ्यान
एका लाखाची देणगी दान करताना



देवा पांयार.
पुरीच्या देवळांत प्रदक्षणा घेतना
पळयला, हजारानी लोकांक देवा आंगार
आपल्या हातांतली भांगरा बोटांतली
मुदी, गळ्यांतली सरपळी भिरकावन
उडयतना आनी तूं म्हणटा
भारतांत गरिबी आसा
तुवेंय पळयलां आसतलें
श्रवणबेळगोळांत बाहुबलीच्या
मस्तकाभिशेकाक
फातरा पुतळ्याक
तुपान बुडबुडयतना
दुदान, ताकान, धंयान, म्होंवान
बुडकुले बुडकुले भरून न्हावयतना
आनी तूं म्हणटा
भारतात गरिबी आसा.

**-राजश्री सैल.**



## एक येता कविता

केन्नाय देंवता झरकशी
केन्नाय ओघ आडखळटा
उतरांच्या फातरांनी,
चिंतनांच्या फोणकुलांनी,
ओघ सुकून थंयच जिरता
अल्पजिवीच मरता.
चिरंजिवीय जाता केन्ना केन्नाय
तेन्ना मात ती विसरता
त्या कागदा कुडक्याक
जंय तिणें पयलो
बाळकी हुंकार दिल्लो
कागदाचो पोळेर
भिजयल्लो, म्हेळो केल्लो.
तिका मागीर याद जायना
खंय कसो जन्म जाल्लो
पोळेर तो उबेचो
खंय पडून कुसलो.
पूण ती जाणां
सैमाचो नेम
जाणे जल्म दिवचो
ताणे जीव त्यागचो
झरो निर्मणेचो
चिरंजिवीच उरचो.

**-रमेश लाड**
Ph: 2751308

# वेंकटाचल पर्वताचेर...

- हर्षा शेटये



वेंकटाचल पर्वत म्हळ्यार सर्गांतल्या मेरू पर्वताचोच एक कुडको. पौराणिक काळांत शेषनाग आनी वायुदेव हांचेमर्दी व्हड कोण? हाचेर झगडें जालें. वायुदेव मेरू पर्वत आपल्या झणझणीत वाऱ्यान हालयतालो जाल्यार शेषनाग आपल्या फणान ताका घट्ट धरतालो. दोगूय जाण आपलें व्हडपण सिद्ध करूंक नेटान लागिल्ले. त्या बोवाळांत मेरू पर्वताचे तीन कुडके जावन धतरीर पडले. ह्या कुडक्यांतलो एक म्हणल्यार वेंकटाचल पर्वत. तिरूमाला वेंकटाचल पर्वताचेर वसयला. तिरुपती बालाजी (व्यंकटेश) मंदिर व्यंकटाचल पर्वताच्या माथ्यार आसा. व्यंकटाचल पर्वताच्या पायांकडेन तिरुपतीनगर हें गांव आसा.

श्रीक्षेत्र तिरुपती हें आंध्रप्रदेशांतल्या चित्तूर जिल्ह्यांतल्या चंद्रागिरी तालुक्यांत आसा.

आमी तिरुपतीक पावलीं तेन्ना दनपारचीं ३ वरां जाल्लीं. आमी थंय हॉटेलांत जेवण घेतलें आनी आमची टेम्पो ट्रॅव्हलर ल्हवू ल्हवू वयर तिरुमालाचेर चडूंक लागली. तिरुपती ते तिरुमाला अंतर लागीं लागीं वीसेक किलोमीटर आसा. वयर चडपाक बरो कॉंक्रिटाचो रस्तो आसा. केन्ना चडटी केन्न! वोल्तां सकयल खोल खोल दरयो. म्हजे भुरगेपणांत तिरुपती वतना बसी प्रवाशांसयत सकयल दरयेंत पडिल्ल्यो खबरो हांवें आयकल्ल्यो. वायट खबरो सदांच तकलेंत खंय तरी उरतात आनी ज्युस्तूच नाका तेन्ना याद जातात. आतां तशी ही सगळी धड बांदून काडल्या. रस्त्याच्या दोनी कुशीक दाट झाडां. मर्दी मर्दी बोगनवालीचीं धर्वी, हळदुवीं, गुलाबी झाडां दिसतालीं. रस्त्याचे कुशीक चलून वयर देवळांत वतल्यांखातीर सोपणां आशिल्लीं. लोक थंयच्यान चलून वताले. सबंद रस्त्यार सुंदर फुलझाडां मर्दी मर्दी आशिल्ल्यो देवाच्यो सुंदर मुर्त्यो थंयचें वातावरण प्रसन्न करताल्यो. लोक दोंगर चडूनय वयर वताले ते दिश्टी पडटाले. हांगा लोक मुद्दम आंगवण करतात. आपले मनांतली इत्सा देवाक सांगतात. ती पुराय जातकीच आपूण सप्तगिरी पर्वत चडून तुजे भेटेक येतलों अशी आंगवण करतात. सात दोंगुल्ल्यो मेळून वेंकटाचल पर्वत तयार जाला म्हणून ताका सप्तगिरी पर्वत म्हणटात.

तिरुमालाची हवा खंयच्याय हील स्टेशनाबशेन थंड आनी शितळ. देवस्थानाच्या वतीन रावपाक सुंदर सुंदर कॉटेजीस आसात. सामक्यो हिलस्टेशनार सोबसारक्यो. आमीय थंय कॉटेजी बूक

केल्लयो. सामान बी भितर दवरून मात्शीं फ्रेश जावन भायर येवन बसलीं जाल्यार वळार खांदार कांकणां घेवन आयले. कांकणां पळोवनच दोळे दिपकावले. हरशीं म्हाका कवचेचीं कांकणां व्हडलींशीं आवडना. म्हज्या लग्नांत पांचवो चुडो घाल्लो तितलोच. पूण तीं सोबीत रंगरंगयाळीं कांकणां आनी ताचेवेली नक्शी पळोवन हातांत घालनशीं दिसलीं. हांवें देवाच्या पायंकडलीं, हाका ताका दिवपाक मेळटलीं म्हणून कितलींशींच कांकणां घेतलीं.

आमचे लागसरच्या कॉटेजींत एक तामीळ कुटुंब रावतालें. आवय, बापूय आनी दोगी धुवो. जयंती आनी सैमिया. दोगांय सोनल आनी नेहलाच्याच वयाचीं. तांणींय आनी तांचे आवयन हातभर कांकणां भरलीं. तांचे आवयचे केस दिश्ट लागपासारके लांब आनी काळेच. ताचेर तिणें धवेच फुलांचे वळेसर माळिल्ले. भुरग्यांचेय केस तशेच. तिरुपतीक चेंगयारल्लू म्हण आमचे वळखीचे एक व्यवसायिक आसा. तांचो भारतभर ट्रान्सपोर्टचो व्यवसाय आसा. तांणीं आमचे खातीर तिरुमालाक कॉटेजी बुक केल्ल्यो आनी आपलो एक मनीस स्वामी म्हूण आमचे वांगडा दिल्लो. आमी तिरुमाला गांवांत भोवून येवया म्हूण भायर सरलीं. स्वामी हिंदी बरो उलयतालो. आपखोशयेन तो आमचो 'गाइड' जालो.

एकदां सगळे ऋषी एकठांय जावन मनीस जातीच्या कल्याणाखातीर खंय म्हायज्ञ करताले. थंय नारदान येवन खंय कळ लायली. जगांत सगळ्यांत व्हड देव कोण? ब्रह्मदेव, विष्णू काय महादेव? कोणाचेंच एकमत जायना. निमणें हें काम सगळ्यांनी भृगुऋशीकडेन सोंपयलें. भृगुमहर्षी ब्रह्मलोकांत गेलो. ब्रह्मदेव आसनाचेर बशिल्लो. तांची सभा चलताली. सभेंत एकवटेन देवर्षी, राजर्षी, ब्रह्मर्षी तर दुसरे वटेन यक्ष, गंधर्व, किन्नर बशिल्ले. ब्रह्मदेव तांकां वेदांचे अर्थ समजावन सांगतालो. तेचवेळार भृगुमहर्षी सभेंत भितर सरलो. ब्रह्मदेवाक नमस्कार करनासतना आसनार येवन बसलो. ब्रह्मदेवाक राग आयलो. हे सभेंत सगळे महामुनी बशिल्ले आसात. तूं कोण तांचेपरस व्हडलो? आपली अनुमती घेनासतना हांगा बसला तो. हें आयकून भृगुमहर्षी सरळ उठून कैलास पर्वताचेर गेलो. नंदीन सांगलें भितर वचूं नाका. तो तसोच भितर सरलो. महादेव आनी पार्वती सारीपाट खेळपाक मग्न आशिल्लीं. भृगुमहर्षीक थंय पळोवन महादेवाक राग आयलो. घोव आनी बायल एकांतांत आसतना भितर सरप ना इतलीय अक्कल ना तुका. चल वच हांगा सल्ल्यान. भृगुमहर्षी हांसलो. आरे हो तर तामसगूण. तो थंयच्यान वैकुंठांत गेलो. थंय विष्णू शेषाचेर न्हिदिल्लो आनी लक्ष्मी ताचे पांय चेपताली. भृगुमहर्षी थंय गेलो आनी विष्णूच्या हड्ड्यार वचून खोंट माल्ली. विष्णू उठून पळयत जाल्यार भृगुमहर्षी उबो. लक्ष्मी तर अजापान पळयत उरली. विष्णून आनीक वेळ केलोना. भृगुमहर्षीच्या पांयांक हात लावन विचाल्लें. आपलो पांय दुखलो ना मूं? ताणें भृगुमहर्षीक हाताक धरून आसनार बसयलो आनी उपरण्यान ताचे पांय पुसले. भृगुमहर्षीन विष्णूच्या हड्ड्यार पांय मारतकीच लक्ष्मीक आयलो राग. खंयचो हो दळीद्री, जटावालो संन्यासी येता आनी विष्णूच्या काळजांत, जंय आपलो राबितो आसता ताचेर खोंट मारता. आनी वयल्यान विष्णू ताचो सन्मान करता. ही विष्णूची सामकी विचित्र करणी पळोवन तिका तो तिचो अपमान कसो दिसलो आनी ती तडक वैकुंठांतल्यान धतरेचेर आयली आनी महाराष्ट्रांतल्या कोल्हापूर नगरींत तप करूंक बसली.

स्वामी सामको रंगांत येवन व्यंकटेश्वराची कथा सांगतालो.

आरे खंय कोल्हापूर आनी खंय वेंकटाचल पर्वत. तूं कोणाची कथा सांगता रे, हांवें ताका मर्दींच विचारलें.

सोनल ही कथा सामकी तल्लीन जावन आयकतालें. "राव गे हर्षाकाकी, तो किते सांगता तें आयक मगे, मर्दींच कित्याक उलयता?" मात्शें बेजारूनच म्हणूंक लागलें.

लक्ष्मीवांगडा वैकुंठाचें सगळें वैभवच ना-नपयत जालें. बायलेक सोदत सोदत विष्णू धतरेचेर पावलो. निमणें तो वेंकटाचल पर्वताचेर येवन एके रोयणींत येवन बसलो. खावपा जेवपाक नशित्यम



विष्णू दिसान दीस बारीक जायत रावलो. निमणें ब्रह्मदेवान आनी महादेवान वचून लक्ष्मीक सांगलें, विष्णूच्या पोटांत कितेंय तरी वचूंक जाय. आमी दोगूय गाय आनी पाडूक जातात. तूं गवळण जा आनी आमकां व्हरून चौल राजाक वीक. लक्ष्मीन तशें केलें. राजाचो राखणो गाय आनी पाडकाक घेवन वेंकटाचल पर्वताचेर चरपाक घेवन वतालो. ही गाय बाकीच्या गोरवां वांगडा चरपाक वचनाशिल्ली. एकलीच ते रोयणीकडेन वताली. वयर बिळांतल्यान दुदाची धार भितर सोडून भितर बशिल्ल्या विष्णूक दूद पिवयताली. ही विचित्र घडणूक पळोवन राखण्याक आयली तिडक आनी हातांतली कुराड गायचेर मारूंक उखल्ली. तिका वाटावपाक विष्णू रोयणींतल्यान भायर सरलो आनी ती कुराड विष्णूच्या तकलेक आपटली आनी कपलावेल्यान रगत व्हावंक लागलें. इतल्यान थंय चौल राजा पावलो. हें सगळें पळोवन ताणें श्री विष्णूचे पांय धरले आनी क्षमा मागली. तूं फुडल्या जल्मांत आकाशराजा ह्या नांवांन जल्म घेतलो आनी तुजे पद्मावती हे धुवेचें लग्न म्हजेकडेन करतलो तेन्ना तुका मुक्ती मेळटली......

हें पळय वराह स्वामीचें देवूळ. .. स्वामीन बस थांबोवपाक लायली. वराहस्वामी म्हळ्यार विष्णूचो तिसरो अवतार. जेन्ना हिरण्याक्ष राक्षसान पृथ्वी व्हरून पाताळांत लिपयली तेन्ना भगवंत श्री विष्णून वराहाचें रूप घेवन हिरण्याक्षाक मारलो आनी पृथ्वी परती उखलून हाडून जाग्यार दवरली. तेन्ना बाकीच्या देवांनी वराहरुपाक विनंती केली. कलयुगांत भक्तांची राखण करपाखातीर ह्याच अवतारांत धतरीचेर राव.

भगवंत विष्णूक राखण्यान कुराड मारून केल्लो घाय ताका खूब दुखतालो. ताचेर लावपाक कसलेंय वखद मेळटा काय म्हण सोदत सोदत तो वराहस्वामीच्या आश्रमांत पावलो. वराहस्वामीन ताका रावपाक जागो दिलो आनी आपली एक भक्त बकुळादेवी ही तुजेबराबर रावन आवयबशेन तुका सांबाळटली म्हणून सांगलें.



ह्या वराहस्वामीचो मान दवरपाक तिरुमाला पावतकीर ताचें दर्शन पयलीं घेतात. वराहस्वामीचें आनी खंय देवूळ आसत हें हांवें केन्ना येवजुकूच नाशिल्लें. नरसिंह अवतार, वामन अवतार हांचीं देवळां गोंयांत आसात. पूण मच्छ, कुर्म आनी वराह हांचीं देवळां भारतांत खंयतरी आसात म्हूण केन्नाच आयकूं नाशिल्लें. आमी वचून वराहस्वामीचें दर्शन घेवन आयलीं.

बकुळादेवीन वखदी वनस्पती वांटून विष्णूच्या कपलाक लायली आनी सांगलें आयच्यान तुका हांव श्रीनिवास म्हण उलो मारतलीं. "ही बकुळादेवी म्हळ्यार पयल्या जल्मांतली कोण ती खबर आसा तुमकां? भारतांतलो दर एक मनीस तिका वळखता. खंयचेय आवयक तिचीच उपमा दितात. स्वामीन एक 'गुगली' उडयली. आमच्या भितल्ल्या कोणें तरी म्हळें , पार्वती. गणपतीची आवय "न्ही".

"रामाची आवय कौसल्या" दुसऱ्यान म्हळें.

"भरताची आवय शकुंतला" कपिलान म्हळें.

"खंय पावलीं तुमीं. तुमीं सगळीं नांवां घेतलीं. पूण एके आवयक विसरलीं. कृष्णाची आवय यशोदा मैया".

हय खरेंच, कशीं विसरलीं आमीं तिका? हे यशोदामातेन खंय द्वापारयुगांत एक दीस कृष्णाक म्हळें,

तूं म्हजे व्हटयेंत खेळ्ळो. तुजे भुरगेपणांतली मस्तेपणां, आडांगपणां हांवें पळयलीं. अणभवलीं. म्हजे दोळे तृप्त जाले. पूण तुजें लग्न पळोवपाची एकूच इत्सा मात तशीच उरली. तेन्ना तिका कृष्णान सांगलें, "कलयुगांत हांव पद्मावतीकडेन लग्न जातलों. तेन्ना तूं बकुळामाता जावन म्हाका आशिर्वाद दितली." ते प्रमाणे फुडें बकुळादेवीच्या फुडारपणाखाला श्रीनिवासाचें लग्न ह्याच वेंकटाचल पर्वताचेर पद्मावतीकडेन जालें.

स्वामीन एकदांची काणी सोंपयली.

हो पळय, हो पळय श्रीदेवीचो महल.

हांगा पद्मावती, मिनाक्षी मंदिर आसात.

ही श्रीदेवी आनी खंयची देवी?

आमच्या चेऱ्याचेर प्रस्नचिन्हां पळोवन स्वामीन हांसत हांसत म्हळें.

"सिने अभिनेत्री श्रीदेवी. श्रीदेवीन आपूण हांगा येता तेन्ना आपल्याक रावपाक हो बंगलो बांदून दवरला. आनीकूय सिने अभिनेत्यांचे हांगा बंगले आसात."

तिनसांज जायत आयिल्ली. वेंकटेश्वराच्या देवळाचो भांगराचो कळस चकचकतालो. भोवून भोवून भुरग्यांक भूक लागिल्ली. म्हणून तांकां आमी पयलीं जेवंक घेवन गेलीं. हॉटेलाचो जेवपाचो हॉल बरोच व्हड आशिल्लो. हांवें दत्तराजाखातीर पुरी भाजी सांगली. भाजयेबराबर एक व्हडली पुरी आयली. ही येदी व्हडली पुरी तळपाची कायल केदी व्हडली आसतली काय? बेठोच तकलेंत प्रस्न वळवळलो. जेवन आमी केंस

कांपून घेवपाक गेलीं. देवळाच्या लागसरच केंस कापपाचो म्हणजे तासपाचो एक व्हडलो हॉल आसा. हांगा केंस तासून घेवपाक कूपन काडून नंबर लावंचो पडटा. सद्गुरू, शिवदत्त, सतीश भावोजी, कपिल सगळे केंस तासपाक बसले.

दत्तराजाचेय तासुया म्हळें. दत्तराज तेन्ना देड वर्साचो. भुरग्यांक वाखोर लायतात तें म्हज्यान कशेंच पळोवंक जायना. म्हाका तें आवडना. हांवें ताचे केंस कापून घेना म्हळें. मागीर नवल म्हणपाक लागलें आपूण ताका मांडयेर घेवन बसतां. पूण तो कोणाचकडेन कस्सो बसना जालो. मागीर हांवें सद्गुरूक सांगलें आतां तूंच ताका घे आनी बस म्हूण. पूण तो म्हजेय फुडलो. चल्याचे केंस कापून घेवपाक जाय म्हूण आपूण कुशीक रावलो. निमणें म्हाकाच ताका घेवन बसचो पडलो. थंय कितल्योशोच बायलोय बी केंस तासून घेताल्यो. तें पळोवन म्हाका अजाप जालें. पयलीं गोंयांत माथ्यावेल्या पदराच्यो बायलो आसताल्यो. त्यो केंस तासून घेताल्यो म्हण आयकल्लें. पूण हांवें म्हज्या दोळ्यांनी तसली एकूय बायलमनीस पळोव ना. आमचे संस्कृतायेंत बायलमनशेन केंस तासून घेवप हें अशुभ अभद्र मानलां. पूण आपली सगळ्यांत चड आवडटी अशी वस्त देवाच्या पायांकडेन अर्पण करची असो शुद्ध हेतू तातूंत आसूं येता.



आमी थंय आसतनाच एक बायल आनी दोन चलयो खड्ड्यो जावन मुखावेल्यान आयल्यो. त्या चलयांनी सोनलाक आनी नेहलाक हटकिलें. पळयत जाल्यार जयंती, सैमिया आनी तांची आवय. तांणीं आमकां हटकूं नाशिल्लें जाल्यार आमी तांकां वळखुचीं नाशिल्लीं. तांचे आवयक पळोवन म्हाका कितेंशेंच दिसलें. लांब केंस म्हणटात ते बायल मनशेची सोबा. तांबडे साडयेचेर वाटकुळोच बॉल दवरिल्लेवरी ती दिसताली. तकलेर थंडसाणीक तांणीं गंद थापिल्लें. ते खातीर तिची तकली म्हणल्यार बुडकुलो कसो दिसूंक लागली. हे सगळ्यांनी दान केल्ले केंस गंगावन, आंबाडे, वीग करपाक वतात. ते केंस विकुनूच देवस्थानाक कितलोसोच पयसो मेळटा.

केंस तासतना दत्तराजान एकूच आकांत केलो. थंडसाण येवपाक बेगबेगीन तकलेर खोबरेल तेल थापलें. सोनल त्या वातावरणांत भारावलेवरी जालें आनी आपुणूय केंस तासपाक बसलें. नेहलान सांगलें, हांव मात कशेंच कापपी न्ही.

सकाळीं पाचांक आमकां दरानाक वचपाक जाय आशिल्लें. ते खातीर आमी बेगीनूच न्हिदलीं. एप्रिल म्हयन्यांतलो निमाणो सप्तक हांगा आनी फांतोडेर इतलें शीं आसतलें हाची कल्पनाच नाशिल्ली. पाचांक आमकां देवळांत पावंक जाय आशिल्लें. बेगीबेगीन खतखतीत उदक न्हावन भुरग्यांक तयार केलीं. दत्तराजाक स्वेटर बी कांयच हाडूंक नाशिल्लें. तातुंतल्या तातूंत दाटसो एक टी शर्ट चडयलो आनी पांगरुणांत गुठलायलो. थंड शितळ वारो आंगाक तेकतकीच सामको शिरशिरो आयलो.

देवूळ भायल्यान पळयता आसतनाच देवळाची गिरेस्तकाय नदरेंत भरताली. भितर सरतना लायनींत रावपाक दोनी कुशीनी ग्रील्स लायिल्ल्यो. लांबच्यो लांब पायणी. तातूंत बसपाक सिमीटाचे बांक. पायणींतल्यान फुडें फुडें सरत रावप. मदीं परतो हॉल थंय पिवपाक उदक, कॉफी .. लायन मुयेचे गतीन फुडें सरताली. गोविंदा गोविंदा .... गजर करीत भक्त फुडें वताले.



देवळाचे तीन भाग

आसात. पयलो भाग चंपक प्रदक्षिण. हातूंत आसा प्रतिमा मंडप. हांगा विजयनगराचे सुप्रिसिद्ध सम्राट श्रीकृष्ण देवराय, वेंकटपतीराय आनी अच्चुतराय हांचे पुतळे आसात. तांच्यो राणयो वरदराजम्मा, तीरुमलादेवी आनी चित्रादेवी हांचेय पुतळे आसात. हे पुतळे म्हळ्यार शिल्पकृतीचे अप्रतिम नमुने. लायन फुडें सरत राविल्ली. दत्तराज मेघाच्या हांडीर बशिल्लो तो परतो म्हजेकडेन आयलो. फुडें वतकीच सुंदर सुंदर खांब्यांचेर उबो आशिल्लो तिरुमलराय मंडप. दर एका खांब्याचेर पुराणांतलो एक एक प्रसंग चितारलेलो. हिरण्यकश्यपाचो वध, कृष्णलीला, धनुष्यधारी प्रभू राम.... ताचे फुडलो ध्वज मंडप. फुडें कल्याण मंडप. ह्या मंडपांतूच श्रीनिवास (व्यंकटेश्वर) आनी पद्मावती हांचें लग्न जाल्लें अशें म्हणटात. रांग फुडें फुडें सरता. तसो गोविंदा गोविंदाचो गजर सामको नेटान जाता. गर्भकुडीलागीं पावता म्हळ्यार एक वेगळोच अणभव येवपाक लागलो. मन सामकें ल्हवपीक जाल्लेवरी जालें. म्हजे हांडीर बशिल्लो दत्तराज सुद्धां "गोयना गोयना" करूंक लागलो. .. आनी... आनी पयसुल्ल्यान गर्भकुडींतले भगवंताचे मुर्तीचेर नदर गेली. गर्भकुडींत मंद लामण दिव्याचो उजवाड फांकिल्लो. प्रवेश दाराचेर जय विजय दोगूय द्वारपालांचे पुतळे आशिल्ले. ल्हवू ल्हवू मुर्तीच्या लागीं पावलीं आनी लामण दिव्याच्या उजवाडांत श्री व्यंकटपतीची ती पाषाणाची धायेक फूट उंचायेची ती अप्रतिम मूर्त दोळ्यांमुखार दिसली. शंख, चक्र, गळ्यांत मणी, कपलार गंदाची उटी, कानांत वज्राचे डूल, तकलेवेलो वज्राचो मुकूट मंद उजवाडांत चकचकतालो. मुर्तीच्या गळ्यांत वज्राचो हार आभूषणां झगझगतालीं. गर्भकुडींत फुलांचो वास दरवळटालो. म्हजे दोळे भरून आयले. हांव भारावलेवरी थंयच उबें उरलें. मदीं व्यंकटपती दावे वटेन देवी पद्मावती तर उजवेवटेन देवी लक्ष्मी. म्हजो पांय फुडें वचना जालो. मूर्तीच्या मंगलमय दर्शनान जीव सामको धादोस जालो. फाटले रांगेतले लोक फुडें सरताले. भट म्हाका आगे जाओ, आगे जाओ म्हणत राविल्लो. ताच्या बोवाळांत म्हजी तनरी भंगली. हांडीवयलो दत्तराज देवा पाव... पाव करीत आशिल्लो. हाचेपयलीं हांव गोंयांत तशेंच गोंयांभायर कितल्याशाच देवळांनी गेलां. पूण आयचो हो 'दिव्य' असो अणभव म्हाका केन्नाच येवना.

हें देवूळ म्हळ्यार एक व्हड संस्थान कशें.



गिरेस्तकाय तर देवळाच्या आंगाखांद्यावेल्यान भरून भरून वतता. देवळाचो वयलो भाग, गोपूर भांगराच्या पत्र्यांनी मडयला. भितर सरतना दारांत एक व्हडली हुंडी दवरल्या. ही हुंडी वराभरान व्हरून रिकामी करतात. हातूंत पयशे धरून भांगरा, वज्रा सगळें हांगा येवपी भक्त घालतात. संस्थानाच्या वतीन हांगा शाळा, कॉलेजां, हॉस्टेलां, हॉस्पीटलां चलयतात. हांगचो लाडवाचो प्रसाद सामको रुचीक. घरावे तुपांत वळिल्ले मोव बुंदीचे लाडू. हातूंत काजू, खिसमिस, बदाम, वेलची खडीसाकर.... सगळें आसता. कितलेशेच लोक हांगा लाडू वळपाक बसतात.

कितलेंशेंच टन अन्न हांगा सदचें शिजता. हजारांनी लोक हांगा जेवतात. देवळांमुखार इल्लीशी तळी आशिल्ली. थंय कितलेशेच लोक न्हाताले. चडशे केंस ताशिल्ले. थंय तशें पळोवपा सारकें खूब आशिल्लें. पूण भुरग्यांक
लागिल्ली. आमी हॉटेलांत वचून इडली-
खालो. हांव दत्तराजाक आनी नेहलाक घे
रुमांत रावलें आनी बाकीच्यांक भोंवप
धाडलीं. हांव पयले फावट आयिल्लें
हांवें सगळें तिरुमाला भोवन पळयलेलें.

दनपरां आमकां सकयल तिरुपत
चेंगयारल्लूगेर जेवपाक आफयिल्लें. अ
इतलीं जाणां आसात दुसरे फावट पळो
म्हळ्यार ते कशेच आयकना जाले. ते गों
येतात तेन्ना मुजरत तिरुमालाचो एक व्हड
लाडू घेवन येतात. जेवण आंद्रा-कर्नाट
मोदीचें. बिसीबेळे भात, पायस
रसम, आवियाल.. आविय
पळोवन म्हाका आमच
खतखत्याची याद आयल
सगळ्या जेवणाक करबील
फोण्णां दिल्लीं.

जेवन आमी गोविंदर
स्वामींचें देवूळ पळोवपाक गेल
देवळाची बांदावळ दक्षि
पद्धतीची. उत्कृश्ट शिल्पकले
नमुनो. हें देवूळ भायल्य
पळोवपाक सुंदर दिसता. भितर गर्भकुड
शेषाचेर आडवी जाल्ली गोविंदराजाची सु
मूर्ती आसा. हांगा मंडपांत आचार्य रामानुज
हांचीय सुंदर मूर्ती आसा. ह्या देवळा
प्रतिष्ठापना वैष्णव सांप्रदायाचे संस्थापक
रामानुजाचार्य हाणीं केल्या अशें म्हणटा
इतलेंच न्हय तर देवळाच्या चारी वटेनच
नगराची रचनाय श्री रामानुजाचार्यांनी
केल्या. हांगा लागींच तीनेक मैलाच
अंतराचेर श्री व्यंकटपतीची बाय
पद्मावतीचेंय देवूळ आसा. तेंय बी आ
पळोवन आयलीं. हीं देवळां पळोवन आ
स्वामीचो निरोप घेवन तिरुपतीक परत एक
येवपाचो निश्चेव करून आमी बेंगलोर
वाटेक लागलीं.

**




# मुतखडो

उबाळाचे दीस आयले आनी आमच्या हॉस्पिटलांत खुपशे लोक पोटान दुखून वा कुशींनीं दुखून आयले. ही दूख इतली खर आसता की तो मनीस सामको वळवळता, ताका ओकारो येतासो दिसता, एकवेळ ओकूंक येता, तो सामको तळमळता, ताका मात सुसेग नासता, न्हीद नासता, केन्नाय मुतांतल्यान रगत वता आनी ताका जोरय येवं येता. हीं सगळीं लक्षणां आसलीं जाल्यार त्या मनशाक मुतखड्याचें दुयेंस जालां अशें समजून येता.

मुतखडे-मुत्रपींड किंवा मुताची नळी हातूंत जांव येता. मुतखडे रेवेंच्या बारीक कणा इतले ल्हान आसूं येता, तशेंच क्रिकेट बॉला इतले व्हडलेय दिसून आयल्या.

मुतखडे जर ल्हान आसत जाल्यार ते आमच्या मुतांतल्यान भायर पडतात. पूण जर तर व्हडले आसत जाल्यारं ते मुतांतल्यान भायर पडूं शकना आनी ते मुत्रपिंडांत वा मुताच्या नळयेंत बांद कसो रावता आनी मनशाक खूप त्रास करता.

मुतखड्याचें जालां हें कशें कळटा.

१. अकस्मात पोटान दुखप, कुशींनीं दुखप - तळमळप

२. ओकारो येता वा ओकारो आयल्या भशेन दिसप.

३. मुतांतल्यान रगत पडप.

४. मुतखडो जर सामको ल्हान आसत जाल्यार मनीस सामको बरो आसूं येता. ताका कांयच जायना. पूण जेन्ना मुतखडो व्हडलो जाता तेन्नाच मनशाक हीं वयर दिल्लीं लक्षणां दिसून येतात.

दोतोराक जेन्ना अशें दिसता की त्या मनशाक मुतखड्याचें जालां तेन्ना ते

१) मुताची तपासणी

२) क्ष किरण (X ray)

३) सोनोग्राफी करून घेता. ह्यो सगळ्यो तपासण्यो केल्ल्यान मुतखड्याची सगळी सविस्तर म्हायती कळटा.

मुतखडो जर सामको बारीक (ल्हान) आसत (5mm) जाल्यार तो मुतांतल्यान भायर पडटा. पूण जर समज व्हडलो आसत जाल्यार ताचेर दोतोराच्या सल्ल्या प्रमाण उपचार करून घेवंचे पडटात. आतां खुपशे बरे उपाय आयल्यात. लेझर थेरपी, लिथोट्रीप्सी जे सोपे आनी रोखडे जाता. मनशाक चड वेळ हॉस्पिटलांत रावंचो पडना.

एकदां मुतखड्याचेर उपाय केलो की तो परत जायना अशें न्हय. त्याच मनशाक तो परतून जांव येता. म्हूण ह्या मनशान आपल्या कुडीची कुयदाद घेवपाक जाय.

मुतखड्याचें जाल्ल्या मनशान कसली कुयदाद घेवपाक जाय?

१. भरपूर उदक पिवपाचें. दोन-तीन लिटर उदक पिल्यारूच ताका बरें सळसळीत मुतूंक जातलें आनी तो बरो उरतलो.

२. आहारांत प्रथिनां (Proteins) कमी घेवपाचें.

३. सोडियम आशिल्लें खाण चड घेवपाचें ना. अळणी जेवल्यार चड बरें.

४. अशें म्हणटात की चॉकलेट, टॉमाट, पालक, कॉडी, चीज, सोडा, कोको चड प्रमाणांत खाल्यार मुतखडो जांव येता.

५. उबाळाच्या दिसांनी आपलें उदक पिवपाचें प्रमाण मात कमी करचें न्हय. कारण ह्या दिसांनी आंगांतल्यान खूप उदक, घाम, जावन भायर वता आनी मनशाक डिहायड्रेशन जांव येता, मुतूंक थोड्या प्रमाणांत जाता. मुताक इन्फेक्शन जाता आनी मनशाच्या मुत्रपिंडाचेर (Kidney) भार पडटता आनी ताका लागून आनी दुयेंसां जांव येतात.

६. दोतोराच्या सल्ल्यान वखदां चालू दवरचीं. तशेंच कसलोय त्रास जालो जाल्यार ताचेर दुर्लक्ष करचें न्हय. आनी वेळार आपल्यो तपासण्यो करून घेवंच्यो.

**- डॉ. वंदना धुमे**

***






सकाळीं सकाळीं पेपर चाळतना सहज म्हण म्हजी इस्त हॅल्मेट सक्तीचेर गेली. खबर वाचली आनी म्हजी तकली हॅल्मेट बरोबर घुवपाक लागली.

तशें पळोवपाक गेल्यार हेल्मेटां आनी आमी - आतां घरा-घरांनी चार-पांच मोटारसायकली, एक पप्पाची, एक मम्माची, एक बायची, एक बाबाची म्हणजे प्रत्येकाक एक-एक हेल्मेट. तशें पळोवपाक गेल्यार म्हाका दिसता. घरा-घरांनी तरेकवार हेल्मेटांचो शेड्स येतलो, कित्याक म्हळ्यार मम्माक मॅचिंग करपाची खूप सवय आनी तशी बायकूय काकणां, टी-शर्ट, साडी-ब्लावज, तिकल्यो आनी मागीर हेल्मेट मॅचिंग. मागीर हेल्मेटांच्या शोपार गर्दीच-गर्दी. बायलांची आनी चलयांची. कित्याक तर जशें साडयेर मॅचिंग ब्लावज सोदता तशेंच कपड्यांचेर मॅचिंग हेल्मेट सोदप. आमच्या बाबूक सगळें कशें BRANDED जाय. रस्त्या देगेक विकता तीं सामकीं फालतू कॉलीटी. शो रूमांत मेळता ती एकदम बरी, बेगीन पिड्ड्यार जायना.

दादल्यांचे मात सामके हाल! कित्याक तें पळोवया. जशी साडी घेवपाक कपड्यांच्या दुकानार वता तशी हेल्मेट घेवपाक दुकानांत गेली जाल्यार दादले म्हण्टले कशे ''शी सामकें पाशियेंस काबार जालें. घे पळोवया एकदाचें चल या घरा.'' पूण बायलां तरी करतलीं किदें? कपड्या साडयां सारखे हेल्मेटांनीं सुध्दां तरेकवार designs.

घरांत जशे कपडे दवरपाक आलमारी आसतात तशीच म्हाकां दिसता हेल्मेट दवरपाक तजवीज करची पडटली. कारण कितें म्हळ्यार जशें साडयेची घडी दोन-चार वेळा न्हेसतकूत पोरनी जाता. तशी हेल्मेटाची सुध्दां गत जातली.

घरांत सुध्दां कितलो तरी Adjustment करचें पडटलें. चपलां दवरपाक आनी चपलांचो stand करतात. तशेंच Provision आमकां हॅल्मेट दवरपाक करचें पडटलें.

बाजार करतल्यांचें मातशें आयकून घेवचें पडटलें. एका हातान हॅल्मेट, खांदाक ऑफिसाचें बॅग आनी बाजार केल्ल्यो पिशव्यो. कोणाकय चुकून धपको बसलो जाल्यार हॅल्मेटाक लागून लोक माफूय करतले, उलयतले आनी कितें! तर सगळें loaded.

तातयां हाडटना मात हॅल्मेटाचो खूप फायदो जातलो. घाल तातयां हॅल्मेटान आनी लाग वाटेक.

देवळान वचपी आवयांचे तर सामके हाल जावपाची शक्यता आसा. हांडीर ल्हान भुरगें, हातांत पुजेचें ताट आनी तकलेक हॅल्मेट, इतकेंच न्हय तर पयलीं देवळांत भितर सरतना एक दोळो भायर चपलांचेर दवरतालीं पूण हॅल्मेट भायर दवरलें जाल्यार म्हाकां दिसता दुसरोय दोळो भायर दवरचो पडटलो.

तड्की मनशाचें तर बरें फावतलें. आपलें हेल्मेट पोरने कशें दिसत जाल्यार ल्हवूच मोटार-सायकलीक लायल्लें नवें करकरीत हॅल्मेट फारायतले आनी आपलें पोरने लावून वतले.

समजा तुमी मोटर-सायकलीन वता. मदींच तुमची मोटार-सायकल बंद पडली अथवा पंक्चर जाली जाल्यार बशी शिवाय दुसरो पर्याय ना. मागीर हॅल्मेट घाल तकलेर आनी चड बशीर. कंडक्टराकूय मागीर मात्शें सोपें जातलें, म्हण्टले कशे,'' हे हेल्मेटकारा/ हेल्मेटकान्नी मात्शी फुडे फाटीं वच.''

आतां तर सगळेच दीस मनोवपाचे फॅड आसा. जागतीक पर्यावरण दीस, रस्तो सुरक्षा दीस, जागतीक भलायकी दीस, आनी आतां भरीक जागतीक हॅल्मेट दीस. मागीर जागतीक हॅल्मेट दीस साजरो करचो पडटलो. कित्याक तर हॅल्मेटा विशीं जागरूताय हाडप. मागीर सगळे वक्ते हेल्मेटान माचयेर बसतले आनी आयकुपी सुध्दां हॅल्मेटान येतले. पळेतले मात तरेकवार रंगान घुसपतले आनी आपल्या ओळखीच्यांक सोदपाक धडपडतले.

चोरांक बरो फायदो जातलो. घाल हेल्मेट तकलेक. Address विचारपाचें निमित्त करून धाड मंगळसुत्राचेर किंवां सरपळेचेर आनी जाता तितलो बेगीन पासार जावप. ओळखुपाक जाता कोणाक.

पूण बऱ्या मनशाचें, वाट चुकील्ल्या वाटसुरांचें कितें! तकलेचेर हॅल्मेट घालून जर घर, पत्तो विचारलो जाल्यार कोणाकूय दिसतलें मुद्दामूच विचारता. चोर आसूंक जाय. मंगळसूत्र चोरपी आसूंक जाय. बाबडो ओगीच मार खातलो.

जेन्ना मोर्चा, दगडफेकी जाता, तेन्ना खऱ्यानीच हीं हेल्मेटांच तर आमच्यो तकल्यो वाचयतलीं. तुजे गर्देंत हात पांय मोडूनी, हाता-पायांक मार लागूनी, पुण तकली मात एकदम शाबूत. कित्याक तर सुरक्षा कवच आसा न्ही.

घरकानय आतां घरकार ऑफिसाक वतना आनीकूय एक काम चड जालें म्हूण वाजेतली. पयलींच लेस सोदून दी, सॉक्स सोदून दी, आतां भरीक हॅल्मेट हातान दी.

घरकान्न कितलीय वाजेली तरी मोगान हॅल्मेट हाडून दितली आनी हुकूम सोडटली आनी तकलेर घालपाची ताकिदूय दितली.

पूण कितेंय आसूं खऱ्यानीच आमचे हे खडबडीत रस्ते लाखानी येरादारी करपी मोटारी आनी हातुंतल्यान जीव मुठींत घेवन चलपी वाहन - धारक. म्हणूनच हॅल्मेट हें सामकें गरजेचें. अशें म्हणतात न्ही ''सिर सलामत तो पगडी पचास.''

***

*बिम्ब मासिकांतलो संवाद आनी व्यक्तित्व म्हळ्यार कोंकणी मळार महत्वाचें योगदान दिल्ल्या म्हालगड्यांचें जीवन दर्शन. फुडाराखातीर राखून दवरिल्लो दस्ताऐवज. कोंकणी साहित्य, चळवळ हाचो अभ्यास करप्यांक आलायतो दिल्लो मालवज. दोतोर भिकाजी घाणेकार कोंकणी चळवळ आनी साहित्याचे बुनयादीचे फातर. तांचे कडेन संवाद सादूंक, तांचें व्यक्तित्व दिवंक संद मेळनाशिल्ली. गोंय राज्य सांस्कृतीक पुरस्कारान ती आमकां दिली. तांचें अभिनंदन करून तांचेकडेन कामिनी किणी हांणी सादलेलो हो संवाद.*

# आयज कोंकणी गीतां हेर भासांचे पातळेर पावल्यांत

- डॉ. भिकाजी घाणेकार

**दोतोर तुमकां सांस्कृतीक पुरस्कार फाव जाल्ले खातीर बिम्ब परिवाराची परबी. तुमी कोंकणींतले एक सगळयांत चड गीतां दिवपी गीतकार आनी लोक भाशेंतल्यान भलायकेची म्हायती दिवपी पयले लेखक. तुमी कोंकणी कडेन कशे वळ्ळे?**

कोंकणीक मान्यताय मेळची, गोंयकारांक तांचें अस्तित्व लाबचें आनी फुडाराक ज्यो नव्यो नव्यो नोकऱ्यो निर्माण जातल्यो त्यो फकत गोंयकारांक मेळच्यो म्हूण गोंय करताले. गोंयच्या खात्यांनी ते भायल्या अधिकाऱ्यांक हाडून हाडून दवरताले. तें जालेंच पूण माळी, शिपाय बी असले चतुर्थ श्रेणीतले कामगार लेगीत ते भायले हाडटाले आनी आमकां कमीं लेखताले. तेन्ना ह्या लोकांक पयस दवरून गोंयकारांक संद मेळटली जाल्यार कोंकणी भाशेची सक्ती जाय ह्या मताचो हांव आशिल्लों.

**कोंकणीची सेवा, उदरगत म्हळयार साहित्य निर्मणी ह्या विचारांकडेन तुमी तेन्ना सहमत जाल्ले म्हणूंक जाय.**

कोंकणी बरयतल्यांच्यो, कोंकणी भास म्हणटल्यांच्यो बकच्छायो जावपी तो काळ. पणजेच्यान म्हजी बदली उसगांवच्या भलायकी केंद्राचेर जाली. हांव पांच वर्सां थंय उल्लों. थंयच म्हजें खूप बरोवप जालें. थंयच्या केंद्रार दुयेंती येताले. पूण सांजवेळार म्हाकां चडसो एकांत मेळटालो. मागीर तो वेळ हांव बरोवपाक सारूंक लागलों. चडश्यो कविता बरोवन जालें.

मुक्त जाल्या उप्रांत नीज गोयकारांक दिसतालें. त्यो तांच्यो मागण्यो आशिल्ल्यो. म्हाकांय तशेंच दिसतालें देखून हांव हे चळवळींत पडलों.

**अशें फुडाराक घडचेंना अशे बी तुमकां दिसतालें?**

हय. म्हाका चाटे पावलाक तसो अणभव येतालो आनी मनाक खटकतालें. तेन्ना हांव ज्युनीयर मेडीकल ऑफिसर म्हूण काम करतालों. तेन्ना गोंय वैजुकी म्हाविद्यालयाचे डीन, असिस्टंट डीन बी आशिल्ले ते गोंयकारांक खूप त्रास



**कवितेकडेन वळपाचें कारण कितें?**

म्हाकां कवितेकडेन घेवन गेली ती पणजे आकाशवाणी. आकाशवाणीचेर गीतां वाजतालीं. गजानन रायकार, यशवंत केळेकार, मनोहरराय सरदेसाय, शंकर रामाणी, बाकीबाब बी हांचीं गीतां हांव कान आनी मन एकवटावन आयकतालों. तांचो भावार्थ समजून घेतालों. तीच गोडी म्हाकाय कविता रचपाची गोडी लावन गेली. म्हजेच एके कवितेंतले हें एक कडवें पळय. ताचे वेल्यान म्हजी अवतिकाय कळटली.

*गीतां आयकून आयकून*
*राधेचे भेरे जाले कान*
*तरी लेगीत कृष्ण सोडिना*
*आपले मुरलीची तान*

**तुमच्या काळावेले कवी आनी आतांचे कवी म्हळ्यार कोंकणी बरोवपी हांचे मदीं तुमकां कितें फरक जाणवता?**

आयचे लेखक, कवी भाग्यवान. तांकां जें कितें बरयता ताका रोखडीच प्रसिध्दी मेळटा. तांचीं पुस्तकां उजवाडाक येतात. गोंय सरकाराचो तेंको आसा. गोवा कोंकणी अकादेमी, कोंकणी भाशा मंडळ ह्या सारख्यो संस्था ताणीं बरयल्लें साहित्य छापूंक आनी तें लोकां मेरेन पावोवंक मजत करता. आमचे वेळार पुस्तक छापपाचो विचार करप लेगीत पयसुल्ली गजाल दिसताली.

**तुमचें पयलें पुस्तक केन्ना उजवाडाक आयलें?**

कोंकणी भाशा मंडळान म्हाका भलायकेचेर पुस्तक बरोवंक लायलें. हांवें बरयलें आनी भाशा मंडळान तें छापलें.

**मागीर तुमी तुमचीं हेर पुस्तकां उजवाडाक हाडलीं?**

म्हजीं पुस्तकां छापूंक म्हाका ऑक्ताव रोद्रीग्सान खूप मजत केली. ताका हांव विसरूंक शकना. खूप खोसयेची गजाल ती. तेच वांगडा कांय लोकांनी टिका, बकच्छायो केल्ल्यान मन विरूसय जातालें.

**टिका जावपाचें कारण?**

कारण म्हळ्यार कोंकणीचो दुस्वास. 'सपन' हो म्हजो कविता संग्रह १९७० त उजवाडाक आयलो. तेन्ना वसंत कारे बी हांच्या सारख्यांनीं खूप टिका केली. दोतोर घाणेकार फकत रायमींग घेवन बसला अशें खूप कितें बरयताले, उलयताले. पूण आयज कोंकणी समाजाक सांगपाक म्हाका अभिमान भोगता, त्या 'सपन' पुस्तकांतलीं गीतां अजीत कडकडे सारख्या गायकान लेगीत गायलीं.

**तुमी आदले मुस्तींतले गीतकार. म्हळ्यार बाकीबाब बी हांच्या काळावेले कशे. बाकीबाबांचीं गीतां जितेंद्र अभिशेकीन गायल्यांत. तुमी तांकां आपलीं गीतां दिवंक नांत?**

बरो प्रस्न केलो. एक याद सांगतां.



मडगांवां कोंकणी संमेलन आशिल्लें. थंय जितेंद्र अभिशेकी आयिल्लो. हांवें तेन्ना तांकां म्हजीं तीन पुस्तकां दिलीं. तांतलीं गीतां ताणें गांवचीं ह्या हावेसान. पूण अभिशेकीन सांगलें हांव बाकीबाब सोडून हेर कोणाचींच गीतां गायना. आयकून हांव विरूस जालों. हांव म्हाका बाकीबाबाचो शीश्य मानतां आनी अजीत कडकडे अभिशेकीचो शिश्य. आयज कडकडेची जी सीडी आयल्या तातूंत बाकीबाबांचीं गीतां आसात आनी म्हजींय आसात.

**तुमकां तुमच्या गीतांक रॉयल्टी कितली मेळटा?**

म्हजी रॉयल्टी म्हळ्यार अजीत कडकडेन म्हजीं गीतां गावपाचें थारायलें तेन्ना सीनारीन म्हाका रॉयल्टीविशीं विचारलें. हांवें ताका सांगलें म्हजी रॉयल्टी दोन कॅसेटी आनी दोन सीडी. इतलेंच पुरो.

**तुमचीं आकाशवाणी, दूरदर्शनाचेर खूप गीतां आयकूंक येतात. गायतना पळोवंक मेळटात. तुमचेकडेन हे लोक बरोवन घेतात?**

म्हजीं गीतां गायकान गावचीं म्हूण खासा हांव पयत्न करतां. आतां मेरेन रेडिओ टिवीचेर गीतां आयल्यांत तातूंत म्हजो ७५% वांटो आसा.

**तुमच्या ह्या काव्य प्रवासांत एखाद्रो मनाक लागपाचो, खंतीचो खीण आयला?**

मनाक लागपाचें म्हळ्यार. कोंकणी भाशा मंडळाचो हांव सेक्रेटरी बी आशिल्लों. भाशा मंडळ पणजेच्या टि.बी. कुन्हा सभाघरांत कवी संमेलनां घडोवन हाडटालें. पूण म्हाका मात वांटो घेवंक आपयनासले. कित्याक म्हण तेच जाणांत. तरी हांव कविता आयकूंक थंय वतालों. पूण म्हजें कोणूच नांव घेनासले. मात थंयच काम करपी एक प्यून आपली कविता वाचतालो आनी ताका लोक ताळयो मारताले. म्हाका मात हें खटकतालें.



**तुमच्या खातीर सरकार वो लोकांनी कितें करचें अशी तुमची अपेक्षा आसा?**

अपेक्षा म्हणचे. हें पळय म्हाका सरकारी नोकरी हो रबर स्टॅम्प पडिल्ल्यान खंयच्याय मंत्र्याकडेन वचपाक प्रॉपर चॅनलान वच्चें पडटालें. पूण आतां हांव सरकारी सेवेंतल्यान मेकळों जालां. म्हजेकडेन शाकुंतल, कृष्णगीतां, महाभारत गीतां, ख्रीस्त गीतां, पैंगबर गीतां आसात. हो सगळो गीतांचो म्हालवज कला अकादमी वो कला आनी सांस्कृतीक खात्यान बी बसोवंक जाय आनी लोकां मुखार पावोवंक जाय.

**तुमी गद्य बरयलां पूण तें भलायकी ह्या विशयाचेर. ताचे भायर तुमीं हेर कांय बरयल्लें दिसना.**

हांवें नाटकुलीं बरयल्यांत. म्हजें फिल्ड तशें नाटक. पूण उसगांवां गेल्ल्यान थंय म्हाका नाटकां बसोवंक मेळ्ळींना. डॉ. विजय थळी पार्से गेलो. ताणें नाटकां बसयलीं . हांव कवितेंतूच रावलों. हांवें सुर्वेक मराठी नाटकांनी खूप कामां केल्यांत.

**आयज गोंय, गोंयचें साहित्य हाची स्थिती कशी आसा?**

आमी तेदेवेळार म्हळ्यार १९६३त बी गोंयचीं सपनां पळयताले तें गोंय आतां उरूंक ना. देखून हांवें कवितेंत म्हळांच

*गोंयकारानीं गोंय व्हेलें गल्फांत*
*घाटयानी घाट हाडलो गोंयांत*

आयज कोंकणी साहित्याची वाड भरपूर जाता. पूण हे बरोवपी नवे भुरगे जे तरेन ताणीं वाचन करूंक जाय तशें ते करिनांत. पयलीं आमी आमचे बोल्सांतले दुडू मोडून हांगा थंय शिबिरांक वताले. ती पोटतिडक आयच्या भुरग्यांमदीं ना. तरी म्हाका समादान आसा. आयज कोंकणी गीतां हेर भासांचे पातळेचेर पावल्यांत आनी दर्जेदार कॅसेटी, सीडी येत आसात. आमच्या कश्टांचें फळ हें.

***







**फाटल्या अंकांत आमी पळयलें गोंदू पावलूच्या घरा गेलो. पावलूच्या मम्मीन ताका तो कोणालो, ताचो आवय-बापूय कितें करता हाची कांय खबर नासतना लेगीत आपलो मानलो....... आतां फुडें**

**पा**वलूगेर सावन आयल्या उपरांत गोंदू मदें खूबसो बदल जाल्लो. हे आदीं तो आपल्या सोयऱ्या धायऱ्यांगेर जात्रा, काल्याक बी वचून आयिल्लो. पूण पावलूगेर जाल्ली तशी तोखणाय अपुरबाय ताची खंयच जांव नाशिल्ली. सोयऱ्यांगेर ताका तोन्न-वोन्न, सोजी-वोडे बी पोटभर वोडूंक मेळटाले. पूण पावलूगेर मेळ्ळो तसो भौवमान आनी येवकार ताका कोणे केन्नाच दिलो ना. तसो तो कोण्णाचे नदरेंत केन्ना भल्लोच ना. पावलूगेर गेले उपरांत आपूणय कोण तरी आसां ह्या संवसारांत म्हणपाची जाणविकाय पयलेच खेप जाल्ली गोंदूक!

तशें पळोवंक गेल्यार कोंडवाड्यावेले चडशे गावडे मोगाळ, शांत, कश्टाळ, एकमेकाकडेन थंडसाणेन आनी मायेमोगान वागपी. कोणाक दुखयनासतना एका मेकाच्या आदारान जियोपी. एकामेकाक काका -पुता करून दीस काडपी पूण सुदारिल्ल्या लोकांमदें लागोळेंपण आसता तसलें लागोळेंपण मात तांच्यांत नासलें. हें लागोळेंपण आनी झेत गोंदूक पावलूगेर दिसून आयलो. गोंदूक तो मानवलोय बी. आपूणय बी तांचे भशेनच आसचों अशें गोंदूक दिसूंक लागलें.

इश्कोलाक वताआसतना गोंदूक वाटेर वासू कामतीलें घर लागतालें. ताचें चली, माया ताका सदांच भायर दिसतालें. तें किरोणा येदेंच इदादीचें आसूंये. पळोवंक देखणें. व्हडलें गिरेस्त नासूनय न्हेंसप गिरेस्तांभशेनच. बामणालीं भुरगीं तशेंच न्हेसतात अशें गोंदूचें आदीपसूनचें मत. पूण किरोण बामणालें नासूनय बामणाभशेन न्हेंसता, हाचें गोंदूक अजाप दिसलें. माया व्हिस्तीद घालता तसोच किरोणय घालता. किरोण बॉबकट करता तसोच मायाय करता. पूण गोंदूल्यो बापोलभयणीं लांब केंस वाडोवन विणयो घालतात. केन्ना केन्नाय शेंडकुटो बांदतात. ताणीय माया-किरोणा भशेन केंस कापून बॉबकट करचें अशें गोंदूच्या मनांत आयलें. भुरग्यांनीं तशें केल्यार तांचीं माथीं उवांघरां जावंक पावचीं नांत आनी केंसय सदांकाळ नितळ उरतले. हे विचार ताणें काकेक सांगचे अशें ताका दिसलें. पूण आपणें सांगलें, आनी गिरिज्याक तें मानवलें ना जाल्यार? हट्ट धरपाक गिरिजें ताची खाशेली आवय थोडीच आसली! आनी बापोल भयण्यो कश्यो आसच्यो, कश्यो दिसच्यो हें थारावपी गोंदू कोण? हे परकेपणाचे भाव ताच्या मनांत घोळूं लागले आनी ताणे आपल्या मनाक आवर घालो.

अशें आसलें तरी गोंदून स्वताक बदलपाचें थारायलें. पावलू भशेन आपूणय बरो झेतार भोंवचो अशें ताणें मनांत घेतलें. आपूण काळो आनी हाडकुळो आसां हाची ताका खंत भोगताली. तातूंत तो गांवांत भोवतासतना केन्ना केन्नाय बुतांव तुटलेलो बुशर्ट घालून भोंवतालो. देशेंत अशें कल्सांवय नाशिल्लें ताचेकडे. आतां, हे फुडें आपूण ज्यानोत भोंवतलों, अशें ताणें आतां थारयलें. देशेंत भुरग्यांक इश्कोलांचे सर, टिचेरी आनी भुरगीं वालोर दितात, हें तो अणभवान जाणा आशिल्लो.

इश्कोलांत ताचेच क्लाशींत मीना नावाचें एक भुरगें आसलें. गोरें गोरें गोरेंच. पूण बुरशें. घाणयारो व्हिस्तीद, टाय तुटिल्लो. सकयल मोचे धुल्लान भरिल्ले मेय. केंस सदांच विस्कटलेले. व्हांवतें नाक! ताका लागून टिचरी ताका म्हऱ्यांत घेनाशिल्ल्यो. हेर भुरगीं ताच्या पसून पयस पयस रावतालीं. ताका आवय-बापूय आशिल्लो. तें गरिबय नाशिल्लें, हें तें इंटरवालाक खाणां खाता तें पळोवन लक्षांत येतालें. टिचरी ताका सुदारपाचे यत्न करताल्यो, पूण ओमत्या कळश्यार उदक. हेंच भुरगें नीट नेटकें आनी सदांच लीप राविल्लें जाल्यार सगळ्यांक आवडटलें आशिल्लें, हें गोंदूच्या लक्षांत येवंक कळाव लागलो ना. किरीस्तावांल्यो चडश्यो बायलो, घरांत धड जेवंक खावंक नासल्यार लेगीत तरेतरेच्यो फॅशनी करतात. आपल्या भुरग्यांकय बऱ्या भेसांत भोंवडायतात. ताका लागून तीं भौसांत सदांच उठून दिसतात. हें सव्वेंत शिकपी गोंदूक आतां कळून आयिल्लें. ताणेय आपणे सदांकाळ देशेंत रावपाचें थारायल्लें. पावलूचो इश्ट जावन रावतलो जाल्यार घाणयाऱ्या भेसांत रावप समा जावचें ना हें ताणें चिंतलें आनी तो फुडल्या कामाक लागलो.

झेतार भोवपाची संद गोंदूक पावलूनच मेळोवन दिल्ली. पावलूचे मम्मीन ताका एक पेकिंग दिल्लें. गोंदून हें पेकिंग लिपोवन घरा हाडिल्लें. आनी घरांत व्हर नासतना घरा फाटल्या पणसा धोलींत ते लिपोवन दवरिल्लें. हेत हो की, पेकिंग कोणे दिलां, हें सद्या तरी





*ग्वादालूप डायस हांच्या 'भूंयफोड' कविता संग्रहाचें प्रकाशन करतना कवि नागेश करमली, माधव बोरकार, जेस फेर्नांदीस, दिलीप बोरकार आनी कवयत्री.*



*'आंबाड्या भोंवती तीन शेंवतीं' निबंद संग्रहाचें प्रकाशन करतना दामोदर मावजो, डॉ. तानाजी हळर्णकार, माधव बोरकार, दिलीप बोरकार आनी लेखिका जयमाला दणायत.*




# मार्च २००६ चें राशी भविश्य - *ज्योतिषाचार्य राजाबापू बर्वे*




म्हयन्याच्या पंद्रशी मेरेन काळ जरी प्रतिकूल आसलो तरी उप्रांत तो अनुकूल आसा हाचो अणभव मेळटलो.शनी-राहूच्या उपद्रवाचेर मार्ग सोदून काडल्यार गुरू-शुक्र-मंगळ हाच्या सहकार्यान वावराची गती सांबाळप शक्य जातलें. सामाजिक चळवळी, न्यायालयीन प्रकरणां, उद्येग धंदो हातूंत मेष आनी रवीच्या सहकार्यान यश.




पराक्रमी शनी, लाभांत राहू, दशमांत शुक्र आशिल्ल्यान पुराय म्हयनो यशाचे तेंगशेर व्हरतलो. शुक्र-गुरू नवपंचम योग आर्थिक, वेवसायिक, कलेच्या मळार चमत्कार घडयतलो. व्यसनां पासून पयस रावचें. पित्त विकाराचेर नियंत्रण दवरचें.




साडेसातीचे शांतीखातीर मारूतीची उपासना चालू दवरप फायद्याचें थारतलें. शुक्र गुरू पंचम योग वेपारांत जम बसयतलो. हातांत दुडू खेळटलो. शिक्षण , कला, साहित्य ह्या मळार नांव जातलें. दुवाबी वृत्ती बळावतली. कुटुंबांत धुसफूस संभवता.




पचनाचे विकार बळावतले. सुर्वेकूच नियंत्रण दवरप गरजेचें. आपल्याच मनशाकडेन मतभेद जाल्ल्यान मनस्ताप वाडटलो. साडेसाती, बारावो मंगळ असंतोष निर्माण करतलो. संयम बाळगून विचार करूनच कार्य करचें. आश्वासनार भरवंसून रावूं नाकात. वाहन सांबाळून चलोवंचें.




थोडे भोव त्रास सोडल्यार पुराय म्हयनो बरो वतलो. निमण्या सप्तकांत अकस्मात खर्च वाडिल्ल्यान त्रस्त जावन वचपाची शक्यताय आसा. साडेसातीचो शनी, अश्टमांतलो राहू आपले प्रताप दाखयतलो. कसलेंय काम रेंगाळत दवरूं नाकात.




द्वितियांत गुरू, दशमांत मंगळ, लाभांत शनी म्हळ्यार हो म्हयनो तुमच्या राशीच्या मनशांच्या कर्तुत्वाचो म्हयनो. इतलो तेंप पडून आशिल्लीं कामां मार्गाक लागतलीं. अर्थ प्राप्ती वाडटली. काम करतना आळस केल्यार आनी वेसनाचेर नियंत्रण नासल्यार लुकसाण संभवता भलायकेकडेन आडनदर करची न्हय.




आर्थिक, वेवसायिक, कलेच्या मळार भरपूर लाब संभवता. कुटुंबीक खुशालकाय, भुरग्यांचे दोळे दिपकावपी यश हाका लागून मन प्रसन्न उरतलें. मौज मजेखातीर केल्ल्या प्रवासाक लागून भलायकेचेर परिणाम संभवता. यशान भुल्लुसून वचून मेळत तसो खर्च करचो न्हय.




अनिश्ट गुरू-मंगळ, बुध-मंगळाचो केंद्र योग हाका लागून विचारांमदीं अस्थिरताय येवन यश संपादन करूंक समस्या उप्रासूं येता. सामाजिक सन्मान फाव जातले, न्यायालयाचो निकाल तुमचे वाटेन लागतलो. वेपार -उद्योगांतल्यान पयसो येतलो.




अकरावो गुरू आनी शुक्र-गुरू नवपंचम योग असो सगळे वाटांनी यश दिवपी ग्रहकाळ जाल्ल्यान तो जितलो सत्कारणी लायतले तितलो फायदो जातलो. जाग्याचो प्रस्न, भुरग्यांचें शिक्षण, हातूंत समादान मेळटलें. कायद्याचे फास्केंत रावन कामां करचीं. कोणाच्या आस्वासनाचेर विसंबून रावचें न्हय.




हेकेखोरपणान, आपलें तेंच खरें म्हणून वागल्यार आपल्याचेंच लुकसाण जाता हें सांगपाक नाका. आपल्या वावरांत नेमको कोणाचो आदार जांव येता हाचेर सतत लक्ष दवरचें. लक्षांत उरपा सारक्यो कांय घडणुको घडटल्यो. म्हत्वाच्यो भेटी, अर्थप्राप्ती, विदेशी नोकरी असल्यो घडणुको घडटल्यो.




वेपार, राजकारण, कलेच्या मळार, शिक्षणीक मळार दोळे दिपकावपी यश संभवता. दुसऱ्याकडेन वागतना गोड गोड वागचें. यश ओडून हाडप शक्य जातलें. म्हयन्याचे अखेरेक हाका नेट येतलो. पुराय म्हयनो भांगराची संद घेवन आयला हाचें भान दवरचें.




शनी-राहू-सूर्य-बुध हे तुमच्या राशीच्या मनशांचेर फावोराचेर आसात. पूण अनीश्ट गुरू, मंगळ, शुक्र सहजपणान यश मेळूंक दिवंचेनांत. चालीक लागिल्ल्या कार्यांत केन्ना कशी आडखळ येत सांगूं येना. लोकांकडेन सादेपणान, गोड उलोवन आपलीं कामां तडीक व्हरपांतूच शाणेपणां आसात.

## लग्नाचे म्हूर्त



६ पुराय दीस, ७ (८.३७ मेरेन), ९ (७.१८ उप्रांत, १८.१८ मेरेन), १० पुराय दीस, ११ (१८.५४ मेरेन), १४ (२१.४८ मेरेन), १६ (१०.३७ उप्रांत २१.१८ मेरेन), १९ (१६.५४ उप्रांत), २० (१७.१२ मेरेन), २३ (१२.४७ उप्रांत), २४ (१६.४२ मेरेन



# खरो गोंयकार कोण?

- निरजा वैद्य यादव



देशांत बाबरी मशीद उडयल्या उप्रांत मुंबयचे बॉम्बस्फोट जाले. ओरिसांत मिशनऱ्याक ल्हासयलो. गोध्रा हत्याकांडा उप्रांत गुजरातांत जातीय दंगे जाले. ह्या सगल्या गजालींचें जितलें वायट दिसतालें, तितलोच गोंयाविशीं एक अभिमान आशिल्लो, एक खोस भोगताली की, असलें कांयच आमच्या गोंयांत जायना, जावचेंय ना, जावंक शक्यच ना.....

सावर्डे-कुडचडेच्या दंगलीन म्हजी तकली सकयल घातली. गोंयकारांचें आनी गोंयचें नाक चेंचून, कातरून उडयलें.

ह्यो दंगली 'भायल्यांनी' घडोवन हाडल्यात अशें मानप समा जातलें? बेकायदेशीर बांदकामाच्या विरोधांतल्या मोर्चांत हुबळी, बेळगांव साकूनचे अल्पसंख्यांक, म्हटल्यार 'भायले' सामील जाल्यात हे खबरीन दंगलेक सुरवात जाली. उप्रांत, 'भितरल्यां'नी परतफेड केली. दंगल कुडचड्यांमेरेन फाफसली.

कांय वर्सां पयलीं गोंयांत कांय लोकांनी गोध्रा आड एक मोर्चा काडिल्लो.

"चड जालें आं ह्या मुसलीमांचें,
तांकां दाखोवन दिवपाक जाय,"

अशें म्हणपी लोक ह्या मोर्चांत आशिल्ले. ताचे उप्रांत जेन्ना आख्खें गुजरात जळटालें, तेन्ना ह्या लोकांनी दुसरो मोर्चा काडून "हिन्दूंचेंय बी चडूच जालें." अशें म्हणूंक ना. तेन्नाच कळ्ळें, भायल्या लोकांपरस चड भिरांकूळ अशी, गोंयाखातीर अनवळखी, तिरायत अशी 'भायली विचारधारा' गोंयात रिगता, मूळ धरता...

खूब वर्सां फाटीं माड्डोळचे मशिदीकडें कोणेतरी विस्फोट केलो आनी थंयचो मिनार मोडून पडलो. भुरूभुरू करून लोक एकठांय जाले. चर्चा जाली, खबऱ्यो जाल्यो आनी 'हें गोंयकाराचें काम न्हय' अशें म्हणून आयिल्ले तशेच लोक नाच्च जाले. मागीर केन्ना तरी सुशेगाद मिनार परतो बांदून काडलो आसुंये....

तशेंच एक फावटी एका सार्वजनीक गणेशोत्सवांत एके बायलेन माटवांत वचून श्रीगणेशाची मूर्ती फोडिल्ली. लोक आयले धावून, ती बायल मुस्लिम म्हणून कळटकीर वातावरण मात्शें तापलें. कांय मुसलीमय एकठांय जाले. तितल्या भितर कोणेतरी पोलिस आफयले. चवकशी करतकच कळ्ळें, ती बायल तकलेन सारकी ना. तेन्ना मागीर समजीकायेन दुसऱ्या मूर्तीची स्थापना करून जाल्ल्या आरतींत हिंदू -मुस्लिम दोगूय जाण सामील जाल्ले.

गोंयांत हिंदू- किरिस्तांवां मदीं दंगली जावप त्या मानान कठीण. लोकांनी यत्न केलो ना अशें न्ही, पयर मडगांवां समाज कंटकांनी खुरीस पाडून उडयलो. पूण सावड्ड्यावेल्यान लोक सादूर जाल्यात. तांणीं हो यत्न सफल जावंक दिलो ना. रोखड्यारोखडो दुसरो खुरीस स्थापन करून वादाक तोंड फुटच्यापयलींच तातुंतलें वारें काडून घेतलें. इन्किझेसांवांचो काळोकिट्ट इतिहास आशिल्ल्या गोंयाक आनी गोंयकारांक हिंदू-किरिस्तांव किजिलां हाताभायर वचूंक दिवंक जायना हें बेस बरें खबर आसा. तशेंच आतां

हिंदू-मुस्लिम किजिलांचे बाबतींतय सादूर रावचें पडटलें.

आमच्या घरामुखार मशीद आसा. दिसांतल्यान पांच फावटीं नमाजा खातीर थंयच्यान उलो जाता. मनशां एकठांय जातात आनी नमाज पडून परतीं नाच्च जातात. कांयेक बोवाळ ना, कांयेक गडबड ना. सांवड्ड्यां-कुडचड्यां जाल्ल्या गजालींचो हांगच्या जिणेर कांयच फरक पडूंना - भायल्यान तरी ...

आमची एक शेजान्न मुखार घर बांदता. पूण तें बांदताआसतनाच म्हण्टा, "हांवें प्लॉट घेतिल्लो तेन्ना मशीद नाशिल्ली. मशिदीक लागून मुस्लिमांनी हांगा घरां घेतल्यांत. ह्या मुस्लिम वाठारांत कोण रावतलो? चार-पांच वर्सांनी घर विकून हांव दुसरीकडें वतली!"

हें बदलत्या गोंयचें चित्र.

आमचें घर पळोवपाक सोयरीं, इश्ट येतात. कोणीय म्हण्टात, "दिसांतल्यान पांच फावट हें 'अल्ला हो अकबर' आयकप म्हळ्यार वाज न्ही तुमकां?"

वाज? फातोडेर साडेपाचांक देवाच्या नांवांन जाग येता. त्या निमतान दिसांतल्यान उण्यात उणें पांच फावटी तरी देवाची याद जाता हें म्हजें महद्भाग्य. घरच्यान मात्शें पयस एक देवूळ आसा. केन्नाय थंय साकून भजनाचो आवाज, रातींचो कानार पडटा. रातच्या शांततायेंत पयसुल्ल्यान येवपी देवाचें तें गाणें कानांक गोड लागता. तितलेंच, जितलें 'अल्लाह-ओ-अकबर.'

म्हजेच सोयरे, इश्ट-इश्टीणी, "ह्या मुस्लिमांचें चड जालें, किरिस्तावांचें चड जालें, हांकां दाखोवन दीवपाक जाय" अशें म्हण्टात, तेन्ना खूब वायट दिसता... सानपणांत गोंयच्या मुसलमान-किरिस्तावां वांगडा खेळपी हींच काय तीं? आतां व्हड जातकच तांचो सूर इतलो बदल्लो? हाचें कारण कितें? तांचेर जाल्ले संस्कार काय बदलतें नातें. गोंयांत शिरकल्ल्या, गोंयकारांच्या रगतांत ल्हवू-ल्हवू रिगत गेल्या राजकी / धर्मिक संघटनांनी पातळयिल्लें वीख काम करपाक लागलां.

राम-कृष्णाचेर विश्वास करपी मनशाचो पुनर्जन्माचेर विश्वास आसपाक जाय. कित्याक तर, हीं दोन, तशींच आनीक कितलींशींच विष्णूचीं रूपां, ताचे अवतार. ज्या मनशाची हिंदू धर्माचेर श्रध्दा आसा, ताचो आत्म्याच्या अमरत्वाचेरूय विश्वास आसूंक जाय. हाचो अर्थ असो की, ही कूड हें आमकां देवान कितेंयतरी कर्म करपाक दिल्लें घर. हें घर बदलूंक शकता. आमचो आदलो जल्म खंयचो आशिल्लो तें आमकां याद ना, खबर ना. फुडलो जल्म खंयचो मेळटलो, हें आमच्या हातांत ना. हिन्दूंचो जल्म मुसलमानांच्या वा किरिस्तावांच्या घरांत जावंक शकता. मागीर तो हिन्दू आड आकांतवाद करतलो? मुसलमान हिंदू म्हणून जल्माक आयलो जाल्यार मुसलमानांक 'पाकिस्तानाक वचात' म्हण्टलो?

'नीज' गोंयकारांची व्याख्यां कितें? 'गोंयकारांचे गुणधर्म' जाचेभितर आसा ते जर नीज गोंयकार आसत, जाल्यार आयज कितलेशेच गोंयकार भायले थारतले भायल्यान येवन गोंयचे जाल्ले, हेर राज्यांतले लोक गोंयकारांबशेन रावतात, गोंयचें बरें मागतात आनी गोंयकारांबशेन चिंततात. 'ह्या दुकर खावप्यांक वासिमोर म्हणून सांगपाक जाय, त्या काप्यांक तशेंच फावो, ह्या काफिरांचें चड जालें आतां' असल्या पाड्या विचारांच्या मनशांनीच गोंयांत उजो लायला. धर्माचें राजकारण करूंक सोदपी संदी सादूंच्या हातांत ताणींच धर्मकोल्लाचें जळीत दिलां. हीं उतरां जांचे जिबेर घोळटात तो स्वताक गोंयकार म्हणोवन घेवपाच्या लायकीचो ना. कित्याक, तर धर्मिक असहिष्णूता हो गोंयकारांचो गुणधर्म न्ही.

***


गोंयांत बेकारी खूबच वाडल्या!
हय. पयर शुटिंग पळोवंक लोक दिसभर उबे आशिल्ले!


म्हाका आतां ७० वर्सां जालीं. हांव फट उलयिल्ल्याचें याद जायना!
पिराय वाडटकच कांयच याद उरना बाप्पा!


कोयराचेर कितें उपाय आसा रे पद्दू?
हय. पालिकेन दुकोर आनी गाढवां पोसूंक जाय!


निर्णय बरो. देशाचें कल्याण जातलें, हे खबर आसूनय तुमी तो कित्याक घेनात?
म्हाका म्हज्या मतांचें चिंतपाक जाय!




**गु**लाब मासिकांत हावें दोन तीन लेख बरयल्ले. तांचो विशय आशिल्लो बायलांची आयज ह्या एकविसाव्या शेकड्यांत लेगीत समाजांतली सुवात आनी तिजो मान-सन्मान.

ते लेख वाचून किरिस्तांव समाजांतल्या कांय बायलांचे फोन म्हाका आयले. लेख आमकां आवडले. तुजे विचार आमकां पटले बी अशे तरेचे. एकलेन तर स्पश्टपणान म्हणलें, तूंय एक दादलो. दादल्यांची नदर अस्तुरेकडेन पळोवपाची नदर दादल्याचीच आसता. तुमी बरोवपी, बरयतना मात भलतेंच बरयतात आनी वागतात भलतेंच. हावें हासून हांव तातलो न्हय बी सांगून फोन दवरलो खरो पूण हांवच चिंतूंक पडलों. म्हाका हीं बायलां वळखतात तीं बरोवपांतल्यान. तशी व्यक्तीगत वळख ना. तरी लेगीत म्हजे विशीं तांच्या मनांत असो विचार कित्याक येवंक पावलो? हेर दादल्यांवरींच हांवूय अस्तूरी ही एक भोगपाची वस्तूच म्हण पळयतां, कांय तांचेंविशी म्हज्या मनांत वेगळी भावना आसा? म्हजे हाय फिलॉसॉफींत तांची सुवात खंयची?

जाणीं फोन केल्लो ताणीं म्हाकां फकत दादलो ह्याच रूपांत पळयलो. तींच कित्याक, जीं म्हाका लागशिल्ल्यान वळखतात तांकां लेगीत हांव म्हळ्यार वुमनायजर, बायलां-चलयां बाबतींत फ्राक अशें दिसता. हांव सदळ कॅरेक्टर अशें तांकां दिसता. आनी तांचे हे आपले परीन करून घेतिल्ले समजुतीविशीं म्हाकां हांसूंक येता.

सगळ्यो चलयो, बायलो म्हजेकडेन हेर दादल्यांकडेन पळयतात तेच नदरेन पळयतात. काय म्हज्यान एक संवेदनशील मनीस पळयतात. काय तीं सैमाच्या नेमाक धरून चलतात आनी त्याच सताक पाळो दितात काय?

हांव वात प्रकृतीचो मनीस. जाची वात प्रकृती आसता ताका अस्तुरेच्या स्पर्शाची ओड सैमीक रूपान आसता. हाचो अर्थ तो भोगवादी आसता अशें न्हय. अस्तुरेचो सांगात आवडप म्हळ्यार दिस-रात भोगाची लालसा बाळगप अशें न्हय. मागीर मनशांत आनी जनावरांत फरक तो कांयच उरना. ॲम्फिबिया काय तसल्याच नांवाचो एक सुक्षीम जीव आसता खंय. तो जल्माक येत सावन मर सर फकत संभोग घेत आसता. ताचे फाटली सैमाची वेगळी रचणाय आसूं येता.

पूण हांव तर एक संवेदनशील मनीस. मनीस जातीक भोवमानान वागोवपी आनी चड करून बायल जातीक.

हांव अस्तुरेकडेन पळयतां तो निर्मीतीचें रूप म्हूण. सगळ्यांत व्हडलें निर्मीतीचें रूप म्हळ्यार धर्तरी. ते धर्तरीचेंच रुप म्हळ्यार अस्तुरी. धर्तरेचेर मनीस अत्याचार करीत आसता. तिचेर धनीपण गाजयता. तिका, खणटा, फोडटा, हुलपायता, तिचेर हळशीक करता. तरी ती वेगवेगळीं पिकां दिवन मनशाक पोसता. धर्तरी क्षमाशील. आपल्याचेर अत्याचार करपी मनशाक ती निमाणेकडेन आपल्या गोपांत घेतले बगर रावना .अस्तुरेचोय सभाव धर्तरेवरींच. धर्तरेचेर जातात तितलेय अत्याचार अस्तुरेचेर जातात. कोणाक अस्तुरी फकत धनीपण गाजोवपाखातीर जाय आसता. कांय गिरेस्त लोक हांवें पळयल्यात तांकां फकत दुडूच जोडपाचो आसता. त्याच वावरांत ते दंग आसतात. धंद्याखातीर ते आपल्या बायलांक फकत पार्टेवेळार भायर काडटात तितलेंच. नातर त्यो आपल्यो घराच. तांचे खातीर ताणीं गाडी-घोडो सगळें दिल्लें आसता. भाटकारपण हें. भाट नांवार करून भाटकार म्हूण मिरोवप. जमीनदार म्हूण जियेवप. जमीन मागीर कोणेय कसूं वो ती पडंग उरूं.

पूण म्हजे सारख्या संवेदनशील मनशाक फकत मळबांत उडपाचें आसता. आनी थकलो म्हणटकच धर्तरेच्या गोपांत विसव घेवपाचो आसता. जशें एके संवेदनशील अस्तुरेन आपले मांडयेर तकली दवरूंक दिवन आपलीं बोटां केसांनी ल्हवपीक भोंवडावचीं तशीं!

अश्या मनशाक खंयचेय अस्तुरे कडेन वेगळे नदरेन पळयता असो आरोप करप म्हळ्यार लेगीत पाप अशें हांव म्हणन.

आतां अस्तुरेकडेन लक्ष वचप हो सैमाचो नेम. तें निर्मितीचे तत्व. तेच पासत काम भावना नर आनी मादीं भितर स्थायी रूपान वसता. तारूण्य हें हांयस जाता. आनी हें सगळें घडून येवचे पासत, नर मादीक एकठांय हाडूंक हें हायसूच मुखेलपणान कारण थारता. ताच्या सांगाताक रंग, रूप, गंध, मध ह्यो सगळ्यो गजाली येतात आनी हाका लागुनूच सैमांत नवनिर्मिती हाडूंक पावता. प्रत्येक मनीस जुवानपणार एकमेकाकडेन ओडटा तो सैमाचे हेच गरजेक लागून.

पूण हांवें म्हाका कळूंक लागलें तेन्ना सावन थारायल्लें. म्हजी साहित्य निर्मिती सोडली जाल्यार आनीक दुसरी निर्मिती म्हाका करपाची ना. हांव एक बरो आदर्श बापूय जावप शक्य ना. आदर्श भुरग्यांखातीर आयज म्हजे कल्पने सारखो आदर्श समाज आनी वातावरण ना. म्हणटकच म्हाका जर ही निर्मणी करपाची ना जाल्यार हांवें स्तनांकडेन आकर्शीत कित्याक जावप? ताची निर्मिती तर सैमान दूद निर्मिती करूंक केल्या. हांवें अस्तुरेच्या गुप्तेंद्रियांकडेन आकर्शीत जावपाचें कारणूच ना. तो तांचो भाग म्हळ्यार मूत्र विसर्जन करूंक आनी बिजधारण करूंक. विसर्जना वेळार अत्यंत अभद्र आनी सर्जनावेळार अतीभद्र. ताचो आनी म्हजो संबंद येवपाचो वो हांवें त्या खातीर जळपेपाचो प्रस्नूच येना.

तरी लेगीत निर्मिती मूल्य लाभिल्लो मनीस तें आसा सर, मागीर दादलो जांव बायल हेच गजाली कडेन आपलें लक्ष केंद्रीत करता. कारण सैमान ती ओड तांचे भितर स्थायी रूपान वसयल्या. ताकाच लागून दरएकल्याचें लक्ष हे गजालीकडेन वता. ना म्हणटा तो आपल्याच कडेन प्रतारणां करता. थोडे जाण आपल्याचेर नियंत्रण नाशिल्ल्यान बलात्कार, विनयभंग ह्या सारख्या कृती मेरेन पावतात जाल्यार थोडे जाण सामाजीक बंधनांक लागून आपल्याचेर नियंत्रण दवरतात. लग्न हे संकल्पनेचो आदार घेतात.

हें सगळें मान्य करूनय म्हजें लक्ष अस्तुरेचेर वता तेच वांगडा अस्तुरीय आपले कडेन लक्ष ओडून घेता. रस्त्यावेल्यान चलतना दादल्याक पळोवन बायल आपलो पदर सावरता. तेन्ना लक्ष नाशिल्ल्याचें लक्ष ते सुवातेर वताच. तशें वचप साहजिकच.

म्हाकां फुलां तोखेवंक आवडटा. पूण फुलां तोडप्यांचो राग येता. फुलां आवडटात म्हूण स्पश्टपणान सांगपी खूप उणे आसतात. नागेशी युवा महोत्सवाक मुखेल सोयरो म्हूण मुखेलमंत्री आसतना मनोहर पर्रीकार आयिल्ले. माटवांत भोवसंख्येन चलयो आशिल्ल्यो. तेन्ना माचयेवेल्यान पर्रीकारान म्हळें, माटवांतल्यान येतना आपूण फुलांच्या ताटव्यांतल्यान वतां अशें दिसलें. अत्यंत निर्व्याज्य अशें विधान. लोक हांसले खरे. पूण फुलां खुटपाक आवडटा अशें ताणें म्हणूंक ना. ती भावना निर्व्याज लोकांमदीं आसना. पूण कांय फुलां आसतात. सोबीत, सुंदर तीं मुसांक आपल्या रंग रूपान आकर्शीत करतात. मूस वचून फुलार बसता. तें फूल आपल्यो पाकळ्यो धांपून घेता. मूस भितर मरता. त्या फुलाचें भक्ष्य थारता. सैमान रंग रूपाचो असोय वापर करपाचो अधिकार दिला.

हांव फुलांच्या बागेंतल्यान पासय मारतां पूण भक्ष्य जायना. जावपाचेंय ना. हीच एक म्हजी हाय फिलॉसोफी.

***

व्यक्तित्व

# डॉ. भिकाजी घाणेकार

**ह्या** वर्सा राज्य सांस्कृतिक पुरस्कारान भौमानीत जाल्ले, डॉ. भिकाजी घाणेकार हांचो जल्म २० जून १९४२ वर्सा पणजे जालो. पणजेच्या मळा वाठारांतले शाळेंत मुळावें आनी माध्यमिक तशेंच लिसेव शिक्षण पुराय जाल्या उपरांत गोंय वैजुकी म्हाविद्यालयांतल्यान १९६६ वर्सा वैजुकी पद्वी संपादन केली.

गोंय मुक्ती उपरांत गोंयांत कोंकणी चळवळीन मूळ धरलें आनी डॉ. घाणेकारान पुरायेन ते चळवळींत ओंपून घेतलो. हेंच तांचें कोंकणी बरोवपा फाटलें मुखेल कारण थारलें. तांणीं कविता, नाटकुलीं, भलायकी ह्या विशयाचेर साबार लेख बरयल्यात. तांचीं सुमार ३५ पुस्तकां भलायकेचेर आसात. सर्कस, पिकनीक, माणकुल्यांचो संवसार, पतंग हीं तांचीं बालसाहित्यांतलीं पुस्तकां.

ते आकाशवाणी केंद्राची मान्यताय लाभिल्ले गीतकार जावन आसात. तांचीं २०० वयर गीतां पणजी, मुंबय, धारवाड, मंगळूर आकाशवाणी केंद्रावेल्यान तशेंच दूरदर्शनावेल्यान अजीत कडकडे, शिल्पा दुबळे सारख्या गायकांनी गायल्यांत.

गोवा कल्चरल आनी सोशल सेंटर संस्थेचे ८ वर्सां ते अध्यक्ष आशिल्ले. तशेंच कला अकादमीचे सदस्य म्हण तांणी सेवा दिल्या.



जल्म तारीख : २० जून १९४२

जल्म गांव : पणजी – गोंय

आवडीचें थळ : दिल्ली शार

जिविताचेर प्रभाव घालपी व्यक्ती : बाकिबाब बोरकार

आवडीचे कलाकार आनी ताची कलाकृती : नागेश घाणेकार
नाटक – पाणीग्रहण

जिणेचें तत्वगिन्यान आनी ताचो कलेचेर प्रभाव : काळजाभरोन काम करीत रावप – बरें करप – इस्मानाक पासून

पुराय नामो :

हस्ताक्षर : भिकाजी घाणेकार

Postal Licence No. GR/GOA/RN/01/2002 REGD. NO. GOA/O63



# GOA TILLARI IRRIGATION DEVELOPMENT CORPORATION

( A Government of Goa undertaking)



Participates in the Development of the State of Goa by speedy execution of the Tillari Irrigation Project, being a joint venture of the Government of Goa and Government of Maharashtra, which on completion will irrigate 16978 hectares including execution of the Command Area Development Works in the Command of the project, in the talukas of Pernem, Bardez and Bicholim of North Goa, in addition to supplying water for drinking and industrial purposes to the tune of 57.40 MCM to North Goa.

Issued by :

**GOA TILLARI IRRIGATION DEVELOPMENT CORPORATION**

Junta House (Annexe), 5th Floor, Panaji-Goa

Printed at impressions, Bgm. Ph.: 0831-2421232